# जाग

र्स २६ ◇ आंक ११ ◇ जून २०००

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

ावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

छापपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

भायलें चित्र : बिहारी बारभैया


## ह्या आंकांत


नदर संपादप्याची ........ १
डॉक कामगार (कथा) – चन्द्रकान्त बक्षी ........ ८
इंग्लीश भाशेंतले गोंयकार बरोवपी – मनोहरराय सरदेसाय ........ १२
भास आनी समाज – माधवी सरदेसाय ........ १५
तीर-सुवादीक कॉलम – दिलीप बोरकार ........ १८
कविता – सुजला देव, मनोज नरेंद्र कामत, सखाराम गो. बोरकार
अरूण साखरदांडे, परेश नरेंद्र कामत, नयना आडारकार
नूतन साखरदांडे, राजश्री सैल, आर्. रामनाथ ....... २०-२२
साहित्य नियाळ : सुर्यवंशी – प्रियदर्शिनी तडकोडकार ........ २३



| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. १००/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ७५/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
धा रुपये अदीक जोडचे)

वेव्हाराचो नामो :

**जाग** म्हयनाळें
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ९/-


## नदर संपादप्याची

### पु.ल.

पु.ल.चें खंयचेंय पुस्तक पयलेच खेपे वाचलां तेन्ना पोट फुटऽसर हांसलां. म्हूण, दुसऱ्याक वाचून दाखयलां. तेन्ना, दुसऱ्याचो हांसून हांसून मुड्डो जालो. म्हाका कांयंच जावंक ना. व्हडलेशें हांसुंकूय येवंक ना. तिसरे खेपे वाचलां तेन्ना म्हाका तें सामकेंच पास्कळ दिसलां.

म्हळें, हीं पुस्तकां एकाच्या हातांतल्यान दुसऱ्याच्या हातांत वचूंक जाय. तांणी दुसऱ्यांक हांसोवंक जाय. आरमारींत दवरलीं जाल्यार बावडीं घुसमट्टलीं. तीं घोळत रावंक जाय. भोंवती भागरथीचे जातिचीं – circulating – पुस्तकां हीं.

म्हज्या सॅटांतलीं सगळीं पुस्तकां हांवें हाका ताका दिवन उडयलीं. पु.ल.च्या पुस्तकांचो एक पुराय सॅट म्हजे कडेन आशिल्लो.

मराठी भाशेंतलो सामान्यां भायलो लोकप्रिय साहित्यकार हो, हांव जाणां. मराठी मनशान हाचो केला तितलो दुसऱ्या खंयच्याच लेखकाचो मोग करूंक ना. हाचीं खपल्यांत तितलीं कोणाचींच पुस्तकां खपूंक नात. हाच्या नाटकांक लोकांची खेट जाल्या तितली कोणाच्याच नाटकांक जावंक ना. 'वाऱ्या वरची वरात' सारकेल्या तागेल्या कार्यावळींक लोकांक तिकेटी लेगीत मेळूंक नात. मराठी मनशान पु.ल.क जितलो वयर वयर केला तितलो कोणाक करूंक ना. दिश्ट लागपा सारकें भाग्य ताचें हें.

कित्याक लागून तो इतलो लोकप्रिय जावंक पावलो? कितेंय तरी कारण आसूंक जाय. म्हाका एकूच जाप मेळ्ळ्या – ताणें वाचप्यांक जाय आशिल्लें, वाचप्यांक जाची भूक वा तान लागिल्ली तेंच दिलां, हेंच एक कारण आशिल्लें अशें म्हणूंक जाय.

पु.ल.चो फॅन (भक्त) चडसो मुम्बय-पुणेच्या वाटारांतलो मदल्या वर्गांतलो 'खर्डेघाशी' करपी मनीस. क्लार्क, मॅनेजर, इंजनेर, दोतोर, वकील वा असलोच कोणूय तरी, जो पयलीं चाळिंनी रावतालो, आतां फ्लॅटांनी रावपाक लागला. ह्या वर्गांतल्या लोकांनी आपूण, आपणाली बायल-भुरगीं, आपणालो बँक-अकाऊंट, आपणालो करियर आनी आपणाले कम्फर्टस् सोडून दुसरें कितेंच आपणाक लावन घेवंक ना. भोंवतणच्या संवसारांत सगळें सकल-वयर जावं, हाच्या इस्त्री केल्ल्या जिविताक एक लेगीत चुरी ताणें केन्ना पडूंक दिवंक ना. उमेदिचे पिराये वयलो ताचो पूत, भाचो वा आनी कोणूय खंयचेय चळवळींत पडलो जाल्यार, 'तुका कोणें सांगल्यात रे ह्यो भानगडी? तूं तुजो अभ्यास सारको कर पळोवया' अशें म्हणून ताका सदांच फाटीं ओडला. सिनेमा नाटकां पळोवप, मर्दी मर्दी संगिताच्या मैफलींक वचप वा एकाद दुसरें मन रिझोवणें पुस्तक वाचप हे फास्के भायर ताणें केन्ना पावल दवरूकं ना. वापरून वापरून गुळगुळीत जाल्ल्या एका उतराचो आधार घेवन सांगचें जाल्यार पु.ल.चो भक्त चडसो 'बुर्झुवा' वर्गांतलो. पु.ल. हें 'लाडकें व्यक्तिमत्व' जालें तें ह्याच वर्गांतल्या लोकांचें. हांकां आवडटा, रुचता तोच माल पु.ल.न तांकां सदांच पुरयला – तो [illegible] साहित्याच्या रुपांत आसूं, संगिताच्या आसूं, नाटकाच्या रुपांत आसूं वा व्याख्यानाच्या रुपांत आसूं. कामगार, मजूर, दलितां मजगतीं शिकिल्लो कोणूय पु.ल.चो कोण भक्त आसत काय कितें – तें कित्याक, विदर्भ, मराठवाड्यांत कोण मेळत काय कितें, दुबावूच आसा. पु.लं.ची तार जुळ्ळी

ती पुण्या मुम्बय वाटारांतल्या चित्पावन, कराडे, देशस्थ, सारस्वत ब्राह्मण वर्गां मदल्या लोकां कडेन.

ह्याच वर्गांतल्या लोकां कडेन कित्याक जुळ्ळी, मात्शें तर्जून पळोवंया—

शंकराचार्या उपरांत ताचे गादयेर बसता ताका नवो शंकराचार्य मानून लोक ताची पाद्यपुजा करपाक लागतात, ह्या नेमान, टिळकां उपरांत **केसरी**चे गादयेर जो बसतलो ताकाच लोक नवो **लोकमान्य** लेखतले आनी ताचें आयकतले (आनी देशाचें नेतृत्व ताच्याच हातांत उरतलें) असो गायकवाड वाड्या वयल्या कांय मुखेल टिळक-भक्तांचो समज जाल्लो. पुणून तशें घडूंक पावलें ना. लोकमान्यांच्या मरणा उपरांत नवेच तरेचें एक नेतृत्व देशांत वयर सरलें आनी स्वातंत्र्य संग्रामाचीं सुतां गायकवाड वाड्या पसून पयस साबरमतीचे तडी वयल्या गांधींच्या हातांत गेलीं. आनी टिळकांच्या शिष्यांच्या पदरांत फकत निर्शेणीच पडली. इतलेंच न्हय, तर खासा गायकवाड वाड्याकूच वेरो वचपाक लागल्यो. **केसरीं**त लोकमान्यांचे उजवे हात म्हूण खाडिलकर वावुरताले. तेच गांधींचे भक्त जाले. 'हो खंयच्याय युगांत जल्माक येता तसलो महापुरूस न्हय, हजार दोन हजार वर्सांनी केन्नाय तरी येता असलो एक युगपुरूस हो' अशें म्हणून खाडिलकर केसरींतल्यान गांधींची तुस्त तोखणाय करपाक लागले, तांच्या कार्यावळींक मनापसून तेंको दिवपाक लागले. **केसरी**च्या 'विश्वस्तां'क हें उस्तऱ्यां गेलें. परिणामीं, खाडिलकरांक **केसरी** सोडून वचचें पडलें. उपरांत, टिळकांच्या मुखेल सांगात्यां मजगतचे एक तेजिश्ट सांगाती गंगाधरराव देशपांडेय गायकवाड वाड्या पसून पयस गेले. म्हणटासर आपणाले खाशेले चिमट्यांचे, कुटल्यांचे खुसखुशीत शैलीन महाराष्ट्राचें काळीज जिखिल्ले '**काळ**कर्ते' शिवरामपंत परांजपेय 'गांधाळ्ळे'. टिळकवादी घुटमळ्यांत पडले आनी तांणी – कितें करचें, समजना जावन – गांधींच्या नेतृत्वाची 'टिंगल-टवाळी' (मराठी लोकांचो आवडटो 'सांस्कृतीक कार्यक्रम' हो) करपी एक कारखानोच पुण्यांत सुरू केलो. एका सारकीं दोन दसकां गांधींच्या व्यक्तिमत्वाच्यो, तांगेले अहिंसेच्यो, सत्याग्रहांच्या चळवळिंच्यो, उपासाच्यो भगलोच ते मारीत रावले.

पु.लं.क जे भक्त मेळ्ळे ते ह्याच कारखान्यांतल्यान तयार जावन आयिल्ले.

पु.लं.चीं सगळींच नाटकां गाजल्यांत. पुणून सगळ्यांत चड गाजलां **तुझें आहे तुझपाशी.** ह्या नाटकांत दोन देखिंचो, दोन विचारांचो, दोन आदर्शांचो संघर्श दाखयला. एका आदर्शाचो (विचार वा देखिचो) प्रतिनिधी नाटकांतलो **आचार्य.** तर दुसऱ्याचो **काकाजी** (म्हळ्यार खासा पु.ल.?). पयल्या आंका सावन निमाण्या आंका मेरेन सगळींच पात्रां **आचार्या**ची टिंगल टवाळी करपांतूच गुल्ल उरतात. सगळ्यांत चड टिंगल **काकाजी** करता.

गांधींची एक तरा आशिल्ली. म्हशी कडले सर्तींत गाय फाटीं पडल्या. गायेक म्हत्व आसा तें तिच्या दुदाक लागून न्हय, तर ती दिता त्या बैलांक लागून. गाय ना जाली जाल्यार बैल ना जातलो आनी बैल ना जालो जाल्यार शेतकाम उबंत पडटलें (रेडो शेतकामाक उपकारा पडना) म्हूण, गायचेंच दूद, गायचेंच तूप वापरपी लोक देशांत निर्माण करूंक जाय, अशें म्हळें आनी गांधीन 'गोसेवाव्रत' लोकां मुखार दवरलें. **तुझें आहे तुझपाशीं**तल्या काकाजीक हें समजलें ना. ताका हो फकाणांचो विशय दिसलो. दूद गायचेंच घेवप, तांदूळ हातांनी कांडिल्लेच खावप, साकरे बदला म्हौंव वापरप ह्या 'व्रतां'च्यो पु.ल. ह्या नाटकांत यथेच्छ बगच्छायो करता. एकल्यागेर आचार्य येता. ताचे खातीर गायचें दूद, तूप, हातांनी कांडिल्ले तांदूळ, म्हौंव हाडून दवरपाचो घरांत बोवाळ चलता. काकाजी तो पळोवन म्हणटा, 'कितें रे, कोण बांयटीण बी येवपाची आसा काय कितें?' आचार्याक स्टेशना वयल्यान हाडपाचो बेत चल्ला. काकाजी म्हणटा, 'आरे, हातगाडयेर घालून हाडात रे ताका... सगळें हातांनी करूंक जाय म्हणटात न्हय हे आचार्य लोक?' काकाजीच्या वाक्या कणकणी असल्यो बगच्छायो लोकांच्या कानार पडटात आनी लोक खो खो करून हांसतात. कित्याक? काकाजीचें भोग विलासाचें, खावपा-पियेवपा संबंदान कसलोच पात्सो नाशिल्लें, फोल्गी, सदळ easy going जिवीत लोकांक सोंपें दिसता, आपलेंशें दिसता, आवडटा. आचार्याचें तपस्व्याचें, त्यागा कश्टाचें, धके चपाट्यांचें तत्त्वनिष्ठ जिवीत लोकांक पेलना. आमच्या जिविताची घडी विस्कटावपी जिवीत कशें दिसता. पु.ल. मदल्या वर्गांतल्या ह्या सुखासीन दुबळ्यां आंगांक पोसवण दिवंक पाविल्ल्यानूच **तुझें आहे तुझपाशी** नाटक महाराष्ट्रांत 'सक्सेसफूल' जावंक पावलां.

ह्या नाटकाचे गुजरातींत वा हिन्दींत अणकार जाल्यात काय कितें, खबर ना. जाल्ले जाल्यार मराठींत जालां तितलें तें थंय 'सक्सेसफूल' जातलें आशिल्लें काय कितें, दुबाव आसा. महाराष्ट्रांतूच तें सक्सेसफूल जावंक पावलें हाचें कारण गायकवाड वाड्यान तयार करून दिल्ले प्रेक्षक पु.लं.क आयतेच मेळिल्ले.

ज्या आचार्याची नक्कल पु.ल.न ह्या नाटकांत केल्या तो 'किरकोळ' मनीस नाशिल्लो. महाराष्ट्रांतलो तो एक बुदवंत, प्रज्ञावंत, व्यासंगी आचार्य आशिल्लो. ताचें जिवितूच चलत्या भोंवत्या विद्यापिठा सारकें आशिल्लें. बंदखणींत लेगीत ताचें हें विद्यापीठ चलत रावलां. 'चले जाव' चळवळींतले बंदखणींत ताणें येरवड्याक **गीतांजली**चेर वर्ग चलयल्ले. ह्या वर्गां पसून प्रभावीत जाल्ले देशभक्त आयजूय महाराष्ट्रांत खंय खंय पळोवंक मेळटले. म्हजो अदमास चुकिल्लो नासत जाल्यार साने गुरुजींक **आंतर–भारती** सुरू करपाची प्रेरणा ह्याच आचार्यां कडल्यान मेळ्ळ्या. खूब जाणांक ताणें बंगाली भास शिकयल्या आनी रवीन्द्रनाथां विशीं तांच्या मनांत ओड निर्माण केल्या. उर्दूय तो बेस बरी जाणा आशिल्लो. रवीन्द्रनाथांचेर उलयतालो तितल्याच अधिकारान तो इक्बालाचेरूय उलयतालो. बंदखणींतल्यान भायर आयले उपरांत ह्या आचार्यान 'केशवसुतां'चेर मुम्बयंत ४६/४७त आठ/णव व्याख्यानां दिल्लीं. बाकीबाब म्हाका ह्या व्याख्यानांक घेवन गेला. त्या वेळार मुम्बंयतल्या सगळ्या नांवाजत्या पत्रकारांक आनी साहित्यकारांक हांवें थंय पळेल्यात. खासा पु.लं.कूय पळेला. मर्ढेकरांच्या कवितांचेर अश्लिल म्हूण छाप मारून कांय जाण मर्ढेकरांक कोर्टांत घेवन गेल्ले तेन्ना होच आचार्य मर्ढेकरांच्या अर्दान साक्ष दिवपाक कोर्टांत राविल्लो. फकाणां मारपा सारके जायते जाण पु.ल. भोंवतणच्या संवसारांत आशिल्ले. तांचे मजगतच्या कोणाचेरूच पु.ल.न हात घालूंक ना. घालो तो ह्या निर्मळ, तेजिश्ट, व्यासंगी, प्रज्ञावंत आचार्याचेर. पु.लं.क व्हड मनीस वळखुपाची नदरूच नाशिल्ली, अशें म्हणचें पडटलें.

लोकांक हांसयत हांसयत समाजांतलें कुसकें, नश्टें, पाडें हुमटून काडपाची तांक आशिल्ली एक आगळी वेगळी शैली पु.लं.कडेन आशिल्ली. आनी महाराष्ट्रांत हुमटून भायर मारपा सारकें थोडें कुस्कें, नश्टें, पाडें नाशिल्लें. पु.लं.क तें दिश्टीय पडलें ना. हीच म्हजे नदरेन पु.ल.चे प्रतिभेची शोकांतिका आनी हीच पु.लं.त आशिल्ल्या विनोदाच्या अस्त्राची विफलता.

आगळी वेगळी प्रतिभा आसली म्हूण भागना. हे प्रतिभेचो मनीस खंय उपेग करता तें पळोवंक जाय. हे नदरेन पु.लं.कडेन पळेतां तेन्ना ह्या सामान्या भायल्या प्रतिभावान मनशान सामान्या भायले आपले प्रतिभेचो उपेग 'करूंक जायना आशिल्लो' थंयच केलो अशें खेदान म्हणचेंशें दिसता.

कांय जाण म्हणटात, पु.ल. उपरांत बदल्ला. तो शान्ति निकेतनांत वचून रावला आनी रवीन्द्रनाथांचो भक्त जाला. दिव्यत्वाची जंय जंय प्रचीती आयल्या थंय थंय ताचे हात आपशींच जुळ्ळ्यात. ताणें कांय वेगळ्या वेगळ्या व्यक्तित्वांचेर लेख बरयल्यात तातूंत ताच्यांतलो हो बदल दिसून येता.

पुणून, 'जो बूंद से गया सो हौद से नहीं आता' ताका कोण कितें करतलो?

# पयलीं पोलिसांक जाग्यार हाडूंक जाय

पोलिसांक विचारपी पाचारपी कोण ना ह्या देशांत?

इंग्रजांचे राजवटींत ते चर्चिलाचे पाय जाल्ले. गोंयांत सालाझाराचे जाल्ले. काँग्रेसचे राजवटींत ते कोणाचे पाय जाल्ले? इन्दिराजींचे? काय जवाहरलालांचे? आतां कांय कडेन भाजपाची राजवट आयल्या. हे राजवटींत तांच्यो ज्यो आगळिको चल्ल्यात त्यो, धरुंया, काझमीर मोन्तैरीन पळेल्ल्यो जाल्यार तो लेगीत 'शी, शी, शी, पोलीस म्हणोवन घेवपाक म्हाका लज दिसता' अशें म्हणटलो आशिल्लो. इतले निश्ठूर, क्रूर, फातरा काळजाचे ते जाल्यात.

मुम्बयचे उत्तरेक उमरगांव नांवाचो एक वाटार आसा. रांपणकारांचो, तसो बागायतदारांचो. नुस्त्याक दर आयल्या. हाका लागून रांपणकार जेवन खावन सुखी आसात. आनी धा पंदरा एकर भुंयेचेर आंबे, चिकू, नाल्ल, पेरां हांचें उत्पन्न काडून वर्साक धा धा लाख रुपये जोडपी बागायतदारूय हांगा आसात. सरकार आमकां नोकऱ्यो दिना म्हूण शीण काडपी कोण ह्या गांवांत ना. तशे, बेकार आशिल्लेय कोण दिश्टी पडनात. 'सैमीक शेतकामा'चे (नॅच्युरल फार्मिंगचे) महर्षी भास्कर सावेंचो 'कल्पवृक्ष फार्म' ह्याच वाटारांत आसा.

स्वावलंबी आनी संतुश्ट असो एक आदर्श गांव हो.

अकस्मात एक दीस एके भौराष्ट्रीय कंपनिची नदर ह्या गांवाचेर पडली. हांगा एक बरें बंदर उबें करूं येतलें अशें तिका दिसलें. भाजपचे केशुभाई पटेल गुजरात राज्याचे मुखेलमंत्री. कंपनिचे जाळवणदार तांकां वचून मेळ्ळे. केशुभाईंक तांचें म्हणणें रोखडेंच पटलें. रोखडींच चाकां घुंवपाक लागलीं. सरकारी अधिकारी सर्वे करपाक उमरगांवांत आयले. येतना एस्.आर्.पी.क (पोलिसांक) घेवन आयले. दर्या देगेर तांणी तंबू उबे केले. लोक शिटकावले. 'कितें चल्लां हें?' लोकांनी अधिकाऱ्यांक विचारलें. थंय तोंडाक तोंड लागलें. अधिकाऱ्यांचे जापेन लोक खुबले. एकल्यान तिडके भरशीं एक फातर शेंवटून मारलो. तो एका अधिकाऱ्याक लागलो. रोखडेच पोलीस धांवन आयले आनी तांणी तीस पस्तीस लोकांक धरून व्हेले. उमरगांवचे पोलीस चौकेरूच तांकां बंदिस्त दवरले. भास्कर सावेचो पुतणयो (निवृत्त) कर्नल प्रताप सावे मुखार सरलो. लोक तिडकीन खंयचे खंय व्हांवन वतीत ह्या भंयान ताणें लोकांचें नेतृत्व करचें थारायलें. ताकाय धरून व्हेलो. हो कोण कितें कात पळेनासतना ताका मार मार मारलो. मारपाचें काम खासा डी.वाय.एस्.पी.न केलें. कर्नल सावेन 'म्हाका काळजाचें आसा' म्हळें तेन्ना डी.वाय.एस्.पी.न 'अशें? खा तर हें' अशें म्हणून ताच्या पोटार मुठी मारल्यो. मागीर हड्ड्यार मारल्यो. कर्नल सावे जमनीर कोसळून पडलो. तेन्ना ताका खोंटायलो. सावेची सुद्द गेली. ताका वापीच्या एका ओश्पितालांत, उपरांत मुम्बयच्या हिन्दुजा ओश्पितालांत व्हेलो. थंय सुमार बारा दिसांनी तो भायर पडलो.

कितल्याश्या रांपणकारांक पोलिसांनी हे भाशेन धरून व्हेल्ले. तांच्यांत एकलो एड्वोकेट आशिल्लो. 'तूंच न्हय तो, मुखेलमंत्र्यां कडेन बकबक, बकबक करतालो? खा आतां' अशें म्हणून ताकाय जरबंद पेटलो.

हांगा कोणाकूच बंदर नाका. बंदर आयलें जाल्यार ह्या गांवांत दिसपट्टे तीन तीन चार चार हजार ट्रक धांवपाक लागतले. आमच्यो बागायती काबार जातल्यो, नुस्तेमारी बंद पडटली. सोबीत सुंदर आमचो गांव बखाल जातलो, अशें गांवचे लोक म्हणटात. 'हिन्दुस्तानांत आसात त्या बंदरांकूच सारकें काम मेळना... आनीक आनीक बंदरां कित्याक जाय?' अशें विचारतात. आनी 'तुमकां तज्ञां परस चड कळटा?' अशें अधिकारी तांकां विचारतात. भोंवतणच्या सुमार अठरा पंचायतिंनी 'बंदराची हांगा गरज ना' म्हण थाराव पांस केले. 'हांकां ते देडशाणे पर्यावरणवादी मेळ्ळ्यात... ते हांकां खुबळायतात... तांचे दोंके मोडून घालात' म्हूण वयल्यान 'ओर्दी' येतात. आनी पोलीस मेळत ताका व्हरून लडो दितात. सरकाराचे कांय 'एजंट' हांगा आयल्यात. ते गांवच्या लोकांक 'तुमकां सरकार नवीं घरां बांदून दितलें, नव्यो जमनी दितलें, तुमी उमरगांव सोडून दुसरे कडेन वचात' म्हूण सांगतात आनी लोक 'आमी खंयच वचपाचे नात... हांगाच रावतले' म्हूण जापो दितात. भौराष्ट्रीय कंपन्यो सदांच देशी 'तज्ञ' विकते घेत आयल्यात. ते लोकांक सांगतात, 'तुमी नेणार लोक. तुमकां कांय समजना. हे तुमचे फुडारी फटींग... तांकां कसलोच विकास देशांत जाल्लो नाका... ह्या बंदराक लागून उमरगांवचो विकास केदो जातलो, खबर आसा तुमकां? उमरगांव मुम्बयक फाटीं घालतलें.'

लोक तांचें आयकनात. 'आमकां उमरगांवची मुम्बय जाल्ली नाका' म्हणटात.

पोलिसांच्या आगळिकांच्यो खबरी आयकून मुम्बय, अहमदाबाद, वडोदरा बी वाटारांतले कांय वरिश्ट पत्रकार, कांय पर्यावरणवादी धांवन हांगा आयले. तांणी 'चौकशी' केली आनी केशुभाईंक वचून मेळ्ळे. केशुभाई भाजपाचे. काँग्रेसवाल्यां फुडले. 'अशें? तशें जाल्यार मागीर बंदराचे येवजणेचो पर्थून सारको विचार करचो पडलो', अशें तांणी तांकां आश्वासन दिलें. आनी दुसरे वाटेन 'तुमी बेस बरें काम करतात' अशें म्हणून पोलिसांची फाटूय थापटिली. उमरगांवचे पोलीस आतां केशुभाईंचे पाय जाल्ले वरी धुमशेणां कांडपाक लागल्यात.

कितें फरक आसा काँग्रेसचे आनी भाजपाचे राजवटींत? दोनूय राजवटी भौराष्ट्रीय कंपन्यांक जाय तेंच करीत आयल्यात. दोनूय भौराष्ट्रीय कंपन्यांनी 'घेतिल्ल्यो राजवटी' जावन पडल्यात. कितल्या मंत्र्यांचीं, कितल्या अधिकाऱ्यांचीं बोल्सां भरल्यांत जातलीं, कोंत आनी हिशोब मेळपाचो ना. दोनूय राजवटी माळणा भाशेन दोन तोंडांच्यो. एक तोंड लोकांक तालां मारता. दुसरें भौराष्ट्रीय कंपन्यां मुखार 'जी हां जी हां' करता. भ्रश्ट, निश्ठूर, उरफाट्या काळजाच्यो राजवटी.

खंयचोय प्रकल्प जावं, ताका मान्यताय दिवचे पयलीं सरकारान तो लोकां मुखार दवरूंक जाय. ताचेर उकतेपणान बरोच तेंप भासाभास जावंक जाय. ह्या निमित्त्यान सरकारान आपणाले विचार लोकांक समजावन सांगूंक जाय. आनी, धरुंया, इतलेंय करून लोकांनी तो नाका म्हळो जाल्यार तो – कितलोय बरो आसूं – सोडून दिवंक जाय.

लोकांक नाका आशिल्लो विकास लोकांचेर थापूंक जायना.

दुसरें, पोलिसांक लाठीचार्ज करूंक जायना म्हूण ताकीद दिवंक जाय. गोळीबार करपाचो प्रसंगूच उपरासूंक दिवंक जायना म्हूण सांगूंक जाय.

ज्या सरकाराचे पोलीस लोकांचेर गोळीबार करतात त्या सरकारान त्याच दिसा सोडचीट दिवन कडेक सरूंक जाय असो नेम करूंक जाय.

सत्य सोदून काडपाक मारप अन्नाडीपणा. मारून सत्य केन्ना भायर येच ना, फकत मारतल्याच्या अन्नाडीपणाक पोसवण मेळटा. पोलीस मुदलांतूच थोडे भोव अन्नाडी. तांकां अन्नाडी बॉस मेळ्ळे जाल्यार मागीर विचारूं नाकात – ते अन्नाड्यांचे पाय जातात.

'मानव अधिकार' नांवाचें कितें तरी चलता म्हणटात न्हय ह्या देशांत? कितें तें? पोलिसांचे कान पिळपाचें काम तांच्या 'ज्युरिडिक्शनां'त येना? सुराज्यांत सगळ्यांत पयलीं पोलिसांक जाग्यार हाडूंक जाय. तांकां थोडे तरी सभ्य करूंक जाय. ना जाल्यार—

ते व्हडल्या व्हडल्या गांधीवाद्यांक लेगीत आरे आरे म्हणटासर नक्सलवादी करून उडयतले.

## ट्युशनां

वर्ध्याच्या आश्रमांतलो एक सांगाती गोंयांत आयिल्लो. धुवेगेर राविल्लो. धुवेचो घोव आमच्या सरकारांत एक ऑफिसर म्हूण आयला.

एक दीस सकाळचो आमगेर आयलो.

'नाती दिसल्यो नात्...नात घरांत?' ताणें विचारलें.

म्हळें, 'शाळेंत गेल्यात. दनपरां वरा देडा वरार येतल्यो.'

बसलो. खूब खबरी केल्यो. मागीर म्हणपाक लागलो, 'येतां हांव आतां... सात आठ दीस आसां गोंयांत. वचचे पयलीं आनीक एक फावट मारतां. म्हाका तुज्या नातींक मेळपाचें आसा...'

चार दिसांनी परतो आयलो. दनपारचीं चार जाल्लीं. नाती घरांत नाशिल्ल्यो!

'खंय गेल्यात त्यो?' ताणें विचारलें.

'ट्यूशनाक', हांवें जाप दिली.

खंती जालो. 'हाल बावड्यांचे. सकाळचो आदेस शाळेंत वता. दनपारचो ट्यूशनांत. बावड्यांनी खेळप केन्ना, नाचप केन्ना? शाळेंत घाल्लीं आसतना तांचेर ट्युशनां घेवपाचो प्रसंग येवचोच कित्याक? शाळेंत कितें शिकयतात? कोट्ट्यांनी रुपये खर्चिता सरकार शिक्षणा खातीर. आनी शिक्षण कोणाक सारकें मेळना... ट्युशनां घेवचीं पडटात! शिक्षण न्हय हें, शिक्षा ही... छळ हो तांचो.'

मन चाळीस वर्सां फाटल्यान गेलें.

हांव तेन्ना मुम्बयंत अंधेरीक. बिराडा शेजराच म्युनिसिपालिटिची मराठी शाळा आशिल्ली. गिरीशाक हे शाळेंत घाल्लो. शाळा लागीं आशिल्ल्यान ताका हाडपा व्हरपाचो त्रास नाशिल्लो. अभ्यासाचेर म्हजें मातूय लक्ष नाशिल्लें. एका आयतारा ताचो अभ्यास घेतलो. पोराक कांयच येनाशिल्लें. शाळेंत कोण शिकयता ताका, हांवें वासपूस केली. शिकोवपी अंधेरींतूच रावतालो. सांजचो ताका मेळपाक गेलों. 'भुरग्याक कांयच येना तें कितें?' हांवें विचारलें.

'तो कांयच शिकना... ट्यूशन लायात ताका.'

म्हाका अजापांचो धसको बसलो. 'भुरगो पयले यत्तेंतलो. ताका ट्यूशन? मागीर शाळेंत तुमी शिकयतात कितें ताका?'

'हें पळेयात, तुमच्या बऱ्याची बुद्द हांवें तुमकां दिल्या... मानात वा मानूं नाकात, तुमची इत्सा. पुणून तुमकां सांगून दवरतां, ट्युशना बगर भुरगो पास जावपाचो ना.' आनी एक नांव घेवन सांगलें, 'हो मनीस हांगाच रावता... ताचे कडेन जीं भुरगीं ट्युशनां घेतात तीं पासूय जातात आनी नंबरूय घेतात...'

म्हाका भिरभिरी मारली. हांवें म्हळें, ताचें कितें करचें हें विचारूंक हांव येवंक ना. तुमी ताका शाळेंत कितें शिकयतात हें विचारपाक आयिल्लों. भुरग्याक तुमी शिकयतात् जावनूय ताका ट्युशनां घेवचीं पडप हाची तुमकां लज दिसना?'

तो आपणाल्या 'धंद्यां'त बरोच करंजेल्लो. ताणें थंड सुरांत म्हाका विचारलें, 'तुमचो भुरगो शिकता काय शिकना, पास जातलो काय जावचो ना, मार्क घेतलो काय घेवचो ना, हाचो हुसको हांवें कित्याक काडचो, सांगशात व्हय? म्हजी नोकरी पक्की – कन्फर्मड् – जाल्या. नोकरे वयल्यान म्हाका कोण काडपाचो ना. कोण शिकता, कोण शिकना हातूंत लक्ष घालून म्हाका कितें मेळपाचें आसा? तुमच्या भुरग्याचो हुसको तुमकां आसूंक जाय. म्हूण हांवें तुमकां तुमच्या बऱ्याचें सांगलें. ताका ट्यूशन लायात...'

हांव ओगी पडलों. दांत वोंठ चाबून घरा परतलों. चल्याचे आवयक सगळें सांगलें आनी म्हळें, 'हीं ट्युशनां बिशनां आमकां पुटवपाचीं नात. नवश्रीमंतांच्यो वैनी ह्यो. आमी मदल्या वर्गांतलीं मनशां. आमचे मर्यादेंत राविल्लीं बरीं. आमीच ताका घरांत शिकोवया...'

म्हयनोभर आमी दोगांयनी ताका शिकोवपाचें काम केलें. इतल्यांत मुम्बय सोडून आमी गोंयांत आयलीं. अंधेरीक शाळेंत रिझल्ट कितें लागलो, खबर ना. वासपुसूय केली ना. पिरवळचे शाळेंत ताका घालपाक अंधेरीच्या दाखल्याची गरज नाशिल्ली.

* * *

शिकोवपा खातीर शाळा केन्ना सावन सुरू जाल्यो? पयलीं 'गुरू' आसताले. तांचीं 'गुरुकुलां' चलतालीं. भुरगे गुरू वेंचून काडटाले आनी तागेर वचून रावताले. आनी गुरू तांकां ते मुस्तींत जें शिकोवप गरजेचें आशिल्लें तें शिकयताले. ते भायर, गोरवां राखप, रानांत वचून जळवाक लाकडां मारून हाडप, असलींय कामां करताले. ह्या 'कामां'चो आसपाव शिक्षणांतूच जातालो. बारा वर्सां उपरांत गुरू तांकां सांगतालो, 'आतां तुमच्यांनी घरा वचूं येता. तुमचें शिक्षण पुरें जालां.' आनी भुरगे गुरुदक्षिणा दिवन घरा वताले.

परिक्षा नासताल्यो. बारा वर्सांच्या सांगाता उपरांत गुरू भुरग्यांक भायल्यान भितरल्यान सारको वळखून घेतालो. ते बगर तो तांकां घरा वचूंक दिनाशिल्लो.

खंयचे पिरायेर भुरगे गुरूगेर वताले? कृष्ण सांदीपनीच्या आश्रमांत गेलो त्या वेळार तो चौदा वर्सांचो आशिल्लो. चौदा वर्सां मेरेन तो कितें करतालो? फकत आडांगपणां. ताणें कंसाक मारिल्लो. कालिया नांवाच्या नागांच्या एका राजाक मारिल्लो. इंद्राचो गर्व देंवयल्लो. तागेल्या असल्या आडांगपणाची कितली तुस्त-तोखणाय केल्या 'भागवता'न! चौदा वर्सांचीं जाय मेरेन भुरगीं जीं आडांगपणं करतात तांची तुस्त तोखणायूच जावंक जाय हें जाणट्यांक शिकोवपा खातिरूच केल्या. आडांगपणां करुनूच भुरगीं शिकतात. भुरगीं सगळें आपूण जावन शिकतात, तांकां 'शिकोवचें' पडना हें सांगपा खातीर केल्या. उलोवंक लागप, व्याकरणाक धरून उलोवप – आवय बापूय तांकां 'शिकयनात', मास्तरूय शिकयनात. तींच आपूण जावन शिकतात. शिकपा सारक्यो जायत्यो गजाली तांगेल्या भोंवतणच्या संवसारांत आसात. तांतलें कितें शिकचें तें तींच सोदून काडटात आनी तांतलें शिकपा सारकें सगळें आपले आपूण शिकतात. धरुंया, संवसारांतल्यो सगळ्यो शाळा बंद पडल्यो जाल्यार भुरगीं कांयच शिकूंक पावचीं नात व्हय? शाळा नासल्यारूय तीं शिकतलीं. तुमकां नाका आसल्यारूय शिकतलीं आनी जें आपूण जावन शिकतलीं तें कोणूय शिकयता ताचे परस हजार वांट्यांनी बरीं शिकतलीं.

सरभोंवतणीं शिकपा सारकें जायतें आसलें तरूय भुरग्यांनी शिकूंक फावना असलेंय जायतें भरलां, भुरग्यांचे संस्कारी वाडीक पोसवण दिता असलेंच तांणी शिकचें, आनी शिकूंक फावना ताचे पसून तीं पयस उरचीं ही 'गरज' भासूंक लागली तेन्ना –

शाळा सुरू जाल्यो.

शाळा सुरू जातकूच शिक्षण सगळ्यांक मेळूंक लागलें. 'कोणूय' शिकपाक वचूंक लागले. पिळग्यान पिळग्यां सावन कसलेंच शिक्षण घेवंक पावूंक नाशिल्ल्या आवय-बापायचीं भुरगींय शाळांनी वचपाक लागलीं. 'ह्या भुरग्यां वांगडा आमचीं भुरगीं भरसलीं जाल्यार तीं तांचे वरीच अन्नाडी आनी अ-संस्कारी जातलीं ह्या भंयाक लागून ट्युशनां सुरू जालीं. भुरग्यांक शिकयत असले 'ट्यूटर्स' (ट्युशनां दिवपी) लोक 'वयल्या पांवड्यां'तले आवय-बापूय सोदूंक लागले आनी तांचे सुवादीन आपणालीं भुरगीं करपाक लागले.

'वयल्या पांवड्या'तल्या लोकांगेर नोकर आसताले, चाकर आसताले, ड्रायव्हर आसताले, माळी आसताले, हे वळेरेंत 'मास्तरां'ची एक भर पडली.

तांचो पांवडो नोकर चाकरां सारकोच आशिल्लो.

पोटा खातीर आपूण सरस्वतीक लक्ष्मीगेर उदक भरपाक दवरूंक लागलां हाची चत्राय मास्तराक उरली ना.

यल्या वर्गांतल्या लोकांनी केल्ली ही 'फॅशन' ल्हवू ल्हवू सरसमान कां मेरेन चलपाक लागली.

करतां करतां हे 'ट्यूटर्स' एकएकल्यागेर वचून शिकोवपा बदला एक भाड्याक घेवन धा वीस गिरेस्तांच्या भुरग्यांक एकाच वांगडा शिकोवपाक ले. ल्हवू ल्हवू तांची नामना जावपाक लागली. 'हाचेकडेन ट्युशन ल्यार भुरगो पास जाता, ते भायर नंबरूय घेता' अशें लोक उलोवपाक ाले. आपणाले नामनेक बादा येवंक फावना अशें थारावन हे 'ट्यूटर्स' यांक 'शिकोवपा' बदला, तांकां पास करून आनी नंबर मेळोवन दिवपाच्या तीं-प्रयुक्तींत गुल्ल उरले. ट्युशनां दिवप्यां आनी परिक्षा घेवप्यां मजगतीं वप-घेवप' सुरू जालें.

आयज ट्युशन म्हळ्यार एक 'रॅकेट' जावन पडलां. भुरगीं पास जातात नी नंबर मेळयतात तीं हुशार आसतात, अशें न्हय. अमक्याच मनशा डेन ट्युशन घेतात तींच पास जातात आनी नंबर मेळयतात.

ट्युशनांचेर बंदी हाडूंक जाय, बंदी हाडप जमपा सारकें नासत जाल्यार शाळेंतलीं भुरगीं ट्युशनां घेवन नंबर मेळयतात त्या शाळांक अनुदान वपाचें सरकारान बंद करूंक जाय. ते बगर शाळेंत शिकयतल्यांक आपणाले ागणुकेची जाणवीक जावपाची ना. सरकार शिकयतल्यांक पगार दिता भुरग्यांक तांणी शिकोवचें म्हूण. तांच्या बँक-एकाउन्टांत भर पडची ण न्हय. खरें म्हळ्यार, आपणाकडेन शिकुनूय भुरग्यांक ट्युशनां घेवचीं डटात हाची शिकयतल्यांक लज दिसूंक जाय, अशें कितल्या वर्सां सावन व आड्डून सांगत आयलां.

कांय कडेन शाळेंत शिकयतलोच मनीस घरा ट्युशनां दिता. शाळेंतलोय गार घेता आनी ट्युशनांची 'फी'य घेता. सरकार अन्नाडी लोकांचें म्हूण चलता.

म्हजें एक मत्त जालां—

१. शाळा सुटना फुडें भुरगीं खुशाल भरीत जावन धांवंक लागतात ी शाळा नालायक शिक्षकांच्या हातांत पडल्या अशें मानूंक जाय.

२. जे शाळेंतल्या भुरग्यांक ट्युशनां घेवचीं पडटात तीय शाळा ालायकांच्या हातांत पडल्या अशें धरूंक जाय.

३. जे शाळेंतलीं भुरगीं नापास जातात – मदींच शिकपाचें सोडून दितात तेवूय 'कशें शिकोवचें' म्हणपाचें नकळ आशिल्ल्या नालायकांतल्या नालायक ोकांच्या हातांत पडल्या अशें मानूंक जाय.

असल्यो शाळा चलुंकूच कित्याक जाय? कित्या खातीर ह्या 'शिक्षणा' ाटल्यान लाखांनी कोटिंनी रुपया सरकारान खर्च करूंक जाय?

शिक्षण जाता तितले बेगीन 'सरकार मुक्त' करप हीच आयज सगळ्यांत हडली गरज जावन बसल्या देशाची.

* * *

सारदिन्यबाबांच्या सरकारान शाळेंत शिकयतल्या शिक्षकांच्या ट्युशनूय देवपाच्या 'धंद्या'चेर बंदी हाडल्या म्हूण आयकलें. खूब बरें दिसलें. एक ावल तरी मुखार पडलें!

## खबरी – आमोरे वयल्यो (३)

**ुमच्या बरपांत हिन्दू धर्म, हिन्दू समाज हे विशय भौन भौन येतात. ी कित्याक लागून? तांचें इतलें अगत्य तुमकां कित्याक?**

हेन्दू समाज म्हजे चिंतेचो आनी चिंतनाचो एक म्हत्वाचो विशय. म्हजें हणणें, हिन्दू मुसलमानांची, हिन्दू शिखांची, हिन्दू किरिस्तांवांची न्हीद ळोवपी जे कितले शे प्रस्न आयज उपरासून आयल्यात ते बरे भाशेन सोडोवचे आसत जाल्यार हिन्दू मन बदलूंक जाय, तें उदार जावंक जाय, सगळ्यांक आपणांत आसपावन घेवपी जावंक जाय... हिन्दू समाजांतले कांय लोक हिन्दू धर्माक खोंट मारून, धर्मान्तरां करून दुसऱ्या धर्मसमाजांत वतात, जाल्यार धर्मान्तरांचेर बंदी हाडून भागपाचें ना... हिन्दू धर्माक हिन्दू समाजांतल्या सगळ्या जातिंचो करूंक जाय. आयज तो फकत वयल्या वर्णांतल्याच लोकांचो उरला. इतलेंच न्हय, फकत ब्राह्मणांचोच जावन रावला. तो असो फकत ब्राह्मणांचोच उरूंक जायना. म्हूण, धर्माच्या मळार ब्राह्मणांक जे अधिकार आसात ते सगळ्या हिन्दूंक मेळूंक जाय... शंकराचार्याचे गादयेर, शंकराचार्याचेच फकत न्हय, मध्वाचार्याचेय गादयेर एखाद्र्या पवित्र विद्वान हरिजनाक बसूंक मेळूंक जाय. आनी ताची पाद्य-पुजा सगळे करतात... ब्राह्मण लेगीत करतात, अशें सगळ्यांक पळोवंक मेळूंक जाय. असलें वातावरण निर्माण करूंक जाय. सनद घेवन कोणाच्यानूय वकिलकी करूंक जाता तसो धर्मशास्त्र शिकिल्ल्या कोणाकूय मंगेशीं वा कवळ्यां, नागेशीं, रामनाथीं वा बांदोड्यां महालक्ष्मीच्या देवळांत पुजारी जावंक मेळूंक जाय. अभिषेकाचो अधिकार सगळ्या जातिंच्या लोकांक आसूंक जाय... सारस्वत संमेलनांत हांवें जें उलोवप केल्लें... जाका लागून म्हजे आड म्हज्याच सांगात्यां मदल्या कांय जाणांनी मोड उठयल्लें, थंय हांवें हेंच सांगिल्लें... हेंच सांगपा खातीर हांव त्या संमेलनांत गेल्लों... हांवें म्हळ्ळें, 'तुमचो एकूय देव ब्राह्मण न्हय... राम क्षत्रीय, कृष्ण गवळी, म्हादेव अनार्य... मागीर, हांच्या देवळांत अभिषेक करपाचो अधिकार फकत ब्राह्मणांकूच सो? सगळ्यांक हो अधिकार मेळूंक जाय...' हिन्दू धर्मांत हे जे मुळा सावन बदल घडून येवंक जाय ते घडोवन हाडपाची जापसालदारकी मुखेलपणान ब्राह्मणांची. कित्याक, प्रतिष्ठित देवळां तांच्या हातांत आसात, मठूय तांच्या हातांत आसात. धर्माचो मक्तो तेच घेवन बसल्यात... ते भायर, ज्या धर्मशास्त्राचेर आधारून हिन्दू धर्म चलता तें धर्मशास्त्र जांणी रचलें तांचेय वंशज ते, म्हूण, ब्राह्मणांचीं दारां खटखटावप... एक खेपे न्हय, पन्नास खेपे खटखटावप, तांकां तांच्या लागणुकांची, कर्तव्यांची जाणवीक करून दिवप हांवें म्हजें मिशन मानलां.

हिन्दू धर्माचीं दोन रुपां आयज चलिल्लीं पळोवंक मेळटात. एक क्लासिकल... अभिजात, प्रतिष्ठीत रूप. दुसरें पोप्युलर... लौकिक रूप. अभिजात हिन्दू धर्मान 'द्विज' जावपाचो अधिकार फकत वयल्या वर्णा खातिरूच राखून दवरिल्लो. 'द्विज' जाल्ल्या मनशा मुखारूच 'मोक्षा'ची मोख दवरिल्ली आनी मोक्ष जोडपाच्यो दोन वाटो – एक ज्ञानाची, दुसरी कर्माची – तांचे खातीर उकत्यो केल्ल्यो. शूद्रांक ह्या अधिकारा पसून कडेक दवरिल्ले. पुणून शुद्रांकूय 'मोक्षा'ची तान लागिल्ली. ती भागोवपा खातीर कोण मुखार सरलो? खासा कृष्ण. तो जातीन अभीर, गवळी... म्हळ्यार शूद्र. ताणें ज्ञानमार्गी आनी कर्मकांडी सनातनी ब्राह्मणांच्या दावकुलांतलो हिन्दू धर्म सोडयलो आनी बायलांक, वैश्यांक आनी सुदरांक – स्त्रियो वैश्यास्तथा शुद्रास्तेऽपि यान्ति पराम् गतिम् (गीता ९-३२) मोक्षाचो अधिकार दिवन उडयलो. ज्ञान आनी कर्मा परस ताणें भक्तीक चड म्हत्व दिलें... कृष्णाचे वाटेन पयलीं दक्षिणेंतले आळवार गेले. उपरांत देशांतले सगळे संत गेले. तांणी भक्तिमार्गाची जी न्हंय व्हांवती केल्ली तिणें शुद्रांतल्या शूद्र लोकांची लेगीत मोक्षाची तान भागयली. इतलेंच न्हय, तांकां संस्कृतायेच्या वयल्या पांवड्यारूय चडयले... संतांत चडशे सगळे शुद्रांतल्या वेगळ्या वेगळ्या जातींतलेच लोक पळोवंक मेळटले तुमकां. कबीर लुगटां विणटालो, रविदास चामार आशिल्लो. सदना कसाब आशिल्लो, धन्ना जाट, सेना म्हालो, नाभाजी डोम, दादू पिंजारो... ब्राह्मण कोण नाशिल्लो अशें न्हय. पुणून एखाद-दुकलोच आशिल्लो. तोवूय ब्राह्मणांनी जाती भायर घाल्लोच आशिल्लो. देखीक, ज्ञानेश्वर, जल्मान ब्राह्मण आसलो तरूय ब्राह्मणांनी ताका जाती भायर घाल्लो... हिन्दू संस्कृताय घडयल्या ती हांणी. 'भायल्या' जातींतल्या संतांनी. संतांच्या ह्या भक्तिमार्गाक लागून हिन्दू धर्माची एक

नवी आवृत्ती सुरू जाली – तिका लोकीक हिन्दू धर्म म्हणटात – popular Hinduism. ह्या लोकीक हिन्दू धर्मान सगळ्यांच्या मोक्षाची तान भागयली. मोक्षाचो सगळ्यांक अधिकारूय जोडून दिलो. पुणून लक्षांत दवरूंक जाय – ह्या लोकांक हिन्दू धर्माचो कर्मकांडी ब्राह्मणांनी खूब विरोध केला. उपरांत जेन्ना ही व्हांवती आडावंक येवपाची ना म्हणपाचें तांकां दिसून आयलां तेन्ना तांणी ताचे कडेन जुळोवन घेतलां. पुणून अजून सगळ्यांक साद्या अभिषेकाचो लेगीत अधिकार तांणी दिवंक ना. संतांच्या ह्या चळवळीं उपरांतूय सनातनी हिन्दू धर्म अजून सनातनीच उरला. ब्राह्मण सोडून तो कोणाक हिन्दूंच्या देवळांनी पुजा करपाचो अधिकार दिना. अभिषेकाचोय अधिकार दिना... म्हजें म्हणणें, हिन्दू धर्माचीं हीं दोनूय रुपां – प्रतिष्ठित आनी लोकीक – आतां एकामेकांत भरसून वचूंक जाय. तीं भरसुपाक धर्मशास्त्रांत मुळा सावन बदल घडोवन हाडूंक जाय. हे बदल धर्माचो मक्तो घेवन बशिल्ले ब्राह्मण न्हय जाल्या कोण घडोवन हाडटले ? ब्राह्मणांच्या मनांचीं धांपिल्लीं दारां उकतीं करपाचें काम कोणें तरी करुंकूच जाय. सारस्वतांच्या संमेलनांत हांव हें मिशन घेवन गेल्लों... म्हाका तेंको मेळिल्लो जाल्यार येन्नासर कितलोसो वावर जावन वतलो आशिल्लो. पुणून... म्हाका विरोध जालो. कोणा कडल्यान ? कर्मठ सारस्वतां कडल्यान जाल्लो जाल्यार पर्वा करचो नाशिल्लों... 'देवळां उकतीं करात' म्हूण चळवळ चलयतल्यांनी, आपणाक समतावादी म्हणटल्यांनीच तो केलो. म्हाकाच तांणी सारस्वतांचे जमातींत धुकलून घालो... मनांत म्हळें, सगळींच कामां करपाक म्हजो जल्म जावंक ना. म्हाका देवान नेमून दिल्लें काम कोंकणीचें आशिल्लें. तोच म्हजो 'स्वधर्म' आशिल्लो. ताकाच दसून राविल्लो बरो. हेर कामां करपाक कोणूय तरी केन्नाय तरी मुखार येतलो... म्हूण कोंकणी साहित्यांत भर घालपाचो वावर करता आसतनाच ह्या विशयाचेरूय बरयत आसतां.

**सारस्वतांच्या संमेलनांत वचून तुमी जे विचार मांडले ते सारस्वत मानून घेतले अशें तुमकां दिशिल्लें ?**

ना... स्वाम्यांचे गादयेर हरिजनाक बसोवचो, कोणाकूय, खंयच्याय जातिच्या धर्मशास्त्र शिकिल्ल्या मनशाक देवळांत पुजा करपाचो अधिकार मेळचो, हे विचार तांकां मान्य जावचेच नाशिल्ले. असल्या विचारांक एकदम मान्यताय मेळना. बरींच वर्सां लागतात मान्यताय मेळपाक. पुणून म्हाका सारस्वतां मजगतच्या पुरोगामी लोकांनी... आपणाक समतावादी मानतल्यांनी तेंको दिल्लो... म्हज्याच सुरांत सूर मेळोवन 'अभिषेकाचो अधिकार सगळ्यांक मेळूंक जाय' अशें म्हळ्ळें जाल्यार हो अधिकार मेळपाक चड कळाव लागचो नाशिल्लो. सारस्वतांत जायते अवगूण आसात. हेरां सगळ्यांत आसात तितलेच. पुणून आमी समजतात तितले ते कुड्डे न्हय. कट्टर न्हय. एक उदाहरण दितां. हिन्दुस्तानांत खूब कडेन देवळांनी हरिजनांक वचूंक मेळना तशें हांगा गोंयांतूय मेळनाशिल्लें... गोंय मेकळें जालां आनी कांय म्हयन्यांनी हांगा काँग्रेस आयल्या. तेन्ना एक दीस डॉ. संजीवय्या गोंयांत आयले. काँग्रेसचे अध्यक्ष आशिल्ले ते. हरिजन. हांव तेन्ना काँग्रेसचो एक कार्यकर्तो. हांवें आमच्या अध्यक्षांक – पुरुषोत्तम काकोडकारांक – विचारलें, तुमी संजीवय्यांक गोंय दाखयतले काय ना ? हय, तांणी, जाप दिली. 'मंगेशीं कवळ्यां व्हरतले ?' 'ना', तांणी जाप दिली. 'कित्याक ना ?' 'आमकां हो वाद हांगा उपरासून काडपाचो ना.' तांणी म्हळें. म्हाका वायट दिसलें. कांय दिसांनी जवाहरलाल गोंयाक भेट दिवपाचे आसात म्हूण आयकलें. शंकर भांडारी म्हजो सांगाती. हांवें ताका म्हळें, 'शंकर, जवाहरलालाक हे आमचे फुडारी मंगेशीं कवळ्यां बी घेवन वतले... हरिजनांक ह्या देवळांनी वचूंक मेळना म्हूण जवाहरलालांच्या लक्षांत हाडुंया... ते देवळांत वचचे नात...' आमी एक पत्रक काडलें. ताचेर विनायक मयेंकार, लक्ष्मीकांत भेंब्रे, माधव बीर असल्या कांय स्वातंत्र्य सैनिकांच्यो सयो घेतल्यो. आमी दोगांयनी केल्यो आनी पत्रक काबु राजनिवासाच्या पत्त्यार to await arrival – (येनाफुडें तांच्या हातांत दिवचें) अशें म्हणून रजिस्टर करून धाडून दिलें. ताच्यो प्रती खबरेपत्रांक दिल्यो. पत्रक छापून आयलें. फाल्यां जवाहरलाल मंगेशीं वतले म्हळ्यार आदल्या दिसा मडगांव आनी म्हापशेंचे कांय हरिजन फुडारी म्हाका मेळपाक आयले. 'फाल्यां आमी लोकांक घेवन मंगेशीं येवं ?' तांणी विचारलें. म्हळें, येयात. सकाळीं आठांक तीन चार बसी भरून हरिजन आयले. आनी 'आमी आयल्यात' म्हूण तांणी म्हाका सांगून धाडलें. हांव बेगिबेगीन मंगेशीं गेलों. कोमिसांवाक मेळ्ळों. म्हळें, 'जवाहरलालां वांगडा हांकां वचूंक दियात देवळांत.' 'अशी ताकतीक करूं नाका. मात्सो धीर धर... आमी रोखहोच म्हाजनांक आपोवन निर्णय घेतात' म्हूण म्हाका कोमिसांवाचे अध्यक्ष दो. केशव मुळगांवकारांनी आश्वासन दिलें. 'आयज कितेंय करतलेच जाल्यार देवळा भायर डॅमोन्स्ट्रेशनां करात'. म्हाका इतलें पुरो जालें. सगळ्यांक भायर उबे केले. ते कितलेशे प्लॅकार्ड बी घेवन आयिल्ले. जवाहरलाल आयले आनी नीट देवळांत गेले. प्लॅकार्ड पळोवन ते वचचे नात अशें दिशिल्लें. पुणून गेले. म्हळें, 'शंकर, भायर येतकूच आमी घोशणा दिवंया'. 'पंडितजी, आपका दर्शन हुआ, लेकिन भगवान का नहीं हुआ' म्हूण. आमी मोट्या मोट्यान घोशणा दिल्यो. जवाहरलाल थांबले. आमचे कडेन पळेलें आनी कोमिसांवाच्या अध्यक्षाक विचारलें, 'हांकां भितर वचूंक मेळना ?' अध्यक्षान जाप दिली, 'आमी म्हाजनांची मिटींग आपोवन निर्णय घेतात.' जवाहरलाल आमचे सरीं आयले आनी 'मैं आप से सहमत हूँ' अशें म्हणून गेले. उपरांत तांणी ह्या प्रस्नाचो उल्लेख म्हापशेंच्या आपणाल्या उलोवपांत केलो. आनिकूय एकेकडेन केलो. कांय दिसांनी गोपाळ आपा कामतींच्या नेतृत्वा खाला आमी काँग्रेस कार्यकर्त्यांनी चळवळ सुरू केली. खबरेपत्रांतल्यान ह्या प्रस्नाची खूब चर्चा जाली. टिकाय जाली. हेत्वारोप घे म्हूण जाले. अखेरेक कोमिसांवान 'हरिजनांक देवळांत वचूंक मेळटलें... कोण आडखळ हाडचो ना' असो निर्णय घेतलो. सगळीं देवळां हरिजनांक उकतीं जालीं. चळवळ फकत हरिजनांनीच केल्ली जाल्यार घडये विरोध जायत आशिल्लो. पुणून चळवळींत सारस्वत मुखार राविल्ले... सारस्वत काळाचीं पावलां वळखतात. बेश्टे खंयूय विरोध करिनात. म्हाका पुरोगामी सारस्वतांचो तेंको मेळिल्लो जाल्यार अभिषेकाचो सगळ्यांक अधिकार येन्नासर मेळटलो आशिल्लो... म्हाका खातरी आसा. पुणून सोड. अशें जाल्लें जाल्यार अशें जातलें आशिल्लें ह्या तर्कटाक अर्थ ना... एक बरी संद पुरोगामी सारस्वतांनी होगडायली. एक गजाल मुजरत सांगूंक सोदतां. हिन्दू समाजांत ज्यो थोड्यो भोव सुधारणा घडून आयल्यात त्यो विवेकानंद गांधी सारकेल्या आपणाक सनातनी हिन्दू म्हणटल्यां कडल्यान जावंक पावल्यात. सारस्वत समाजाक आसा ताचे परस अदीक उदार करचो आसत जाल्यार पुरोगामी सारस्वतांनी 'आमी सारस्वत' अशें म्हणुनच मुखार सरूंक जाय. समाजा पसून कुशीक रावन कोणूच आतां मेरेन समाजांत बदल घडोवन हाडूंक पावूंक ना. फकत आपूण पुरोगामी म्हूण मिरोवंकूच बाद जाला...

**तुमी हिन्दू धर्माचेर बोट दवरून ताच्या अवगुणांचेर बरयतात तेन्ना दांत ओंठ चाबून बरयल्ले वरी दिसता. तुमकां मुसलमान ख्रिस्ती धर्माचें अवगूण दिश्टी पडनात व्हय ?**

तुजो कितें तरी अपसमज जाला. हांवें हिन्दू धर्मा आड केन्नाच कितेंच बरोवंक ना. हिन्दू समाजा आड बरयलां. हिन्दू सभावगुणा आड बरयलां. हिन्दू mentality आड बरयलां. आमचोच धर्म बरो, आमचोच धर्म खरो, आमच्या धर्मा सारको धर्म ना अशें मानतल्यां आड बरयलां. हे मान्यतायेक लागून हिन्दू मोटवे नदरेचो जाला. अशीर बुद्दिचो जाला. मनीसघाणो ज़ाला. हिन्दूधर्म मोटवे नदरेचो न्हय. अशीर बुद्दिचो न्हय. मनीस घाणोय न्हय. उदार liberal एक धर्म हो. ख्रिस्ती धर्म ख्रिस्तान सुरू केला. मुसलमान धर्म महम्मदान सुरू केला. हिन्दू धर्माचो असो कोण एक संस्थापक ना. एक प्रेषित ना. कितल्याश्या प्रेषितांनी तो घडयला. इतलेंय आसून खंयच्याय एका प्रेषिताक तो दसून रावंक ना. ख्रिस्ती लोकांचें प्रमाण धर्मपुस्तक बायबल, मुसलमानांचें

राण. हिन्दूंचें अशें एक प्रमाण धर्मपुस्तक ना. कितलींशीं धर्मपुस्तकां ताणें ल्माक घाल्यांत. इतलेंय आसून खंयच्याय एका धर्मपुस्तकाक तो दसून विंक ना. तो सगळ्या प्रेषितांक मानता. सगळ्या धर्म पुस्तकांक मानता. डशे सगळे हिन्दू कुटुंबांत जल्माक आयल्यात म्हूण आपणाक हिन्दू मानतात. वें हिन्दू धर्म समजून घेवपाचो यत्न केला. 'हांव हिन्दू कित्याक?' म्हूण क पुस्तकूय हांव बरोवंक सोदतालों. बरयन एखाद्या वेळार... म्हाका म्हजो हिन्दू धर्म रामकृष्ण विवेकानंद, गांधी विनोबा काकासायबां कडल्यान मेळ्ळा. वें हिन्दू धर्मा आड कांयच बरोवंक ना. हिन्दू समाजा आड मात खूब बरयलां. हिन्दू समाजांत अवगूण भरल्यात तशे खिस्ती मुसलमान समाजांतूय भरल्यात. म्हाका ते दिश्टी पडनात म्हणटा तें खरें न्हय. सगळे धर्मसमाज सारकेच कुड्डे. पुणून, एक लक्षांत दवर. हांव हिन्दू म्हणपाचें एक वेळ हांव विसरन, दुसरे विसरतले व्हय? दुसऱ्यांचे नदरेन हांव हिन्दूच. हिन्दू समाजाचे अवगूण दाखयतां तशे, समज, खिस्ती मुसलमान समाजांचे दाखोवपाक लागलों, आनी समज, तांच्यांतल्या कोणें 'पयलीं तुजोच समाज जाग्यार घाल, मागीर आमकां शाणेपणां शिकोवपाक यो' म्हळें जाल्यार ताका जाप कितें दिवं? म्हाका खिस्ता विशीं आकांताची ओड. खिस्ताक हांवें **म्हजो** मानला. फकत किरिस्तांवांचो मानूंक ना. पुणून खिस्ती चर्च दुसऱ्यांक खिस्ती करपाक वावुरता तें म्हाका निखालूस मानना. खंयचोय एक धर्म सोडून दुसरो घेवप म्हळ्यार हाच्याकूय तो बरो अशें मानप जाता. हाच्याकूय तो बरो अशें म्हणपा सारको एकूय धर्म ना संवसारांत. सगळे सारके... सगळे बरे आनी सगळे रद्दी. गांधीं सरीं एक इंग्रज चली येवन रावली. गांधींनी तिका आपणाली धूव लेखली आनी तिका मीरा म्हूण एक देशी नांवूय दिलें. तिका एक दीस हिन्दू जावचेंशें दिसलें. ते बगर आश्रमांतले लोक आपणाक आपणाली मानचे नात अशें दिसलें. आपणाक हिन्दू धर्माची दीक्षा दी म्हूण सांगपाक ती गांधीं सरी गेली. गांधींनी तिका म्हळें, 'तूं खिस्ती म्हूण जल्माक आयल्या... खिस्ती धर्मसंस्कारांत वाडल्या... हिन्दू धर्मांतलें घेवपा सारकें दिसता तें सगळें घे. पुणून तुवें खिस्तीच रावंक जाय. तूं बऱ्यांतली बरी खिस्ती जाल्ली म्हाका आवडटली.' ही खरी सर्वधर्म समभावी नदर. आमचो secularism सर्वधर्म समभावी. सॅक्युलर देशांत कोणाक एक धर्म सोडून दुसऱ्या धर्मांत वचपाची गरज भासूंक जायना. कोणेंच तुजो धर्म सोडून म्हज्या धर्मांत यो अशें कोणाक सांगूंक जायना. धर्मान्तिरांक सर्वधर्मसमभावी देशांत सुवातूच आसूंक जायना. इतलेंय आसून धर्मान्तिरांचेर बंदी हाडात अशें हांव मागिना. ताचे बदला हांव हिन्दूंक विचारतां, कोण मुसलमान केन्ना किरिस्तांव जाल्लो वा किरिस्तांव मुसलमान जाल्लो तुमी पळेला व्हय? ह्या देशांत हिन्दूच एक तर मुसलमान जातात वा खिस्ती जातात. धर्मान्तिरां हिन्दूच करतात. कित्याक करतात हाचेर तुमी केन्ना विचार करचे नात? जांचे हिन्दू समाजांत घुसमटमार जातात तेच हो समाज सोडून भायर वतात. घुसमटमाराचीं कारणां सोदून तीं पयस करात. हिन्दू तीं कारणां पयस करिनात म्हूण तांच्या अवगुणांचेर बोट दवरून हांव दांत वोंठ चाबून बरयतां. हिन्दू धर्माचेर न्हय, हिन्दू समाजाचेर उसळटां.

**तुमी आनिकूय एक विचार भौन भौन मांडीत आसतात – धर्म समन्वयाचो.**

हय. तोय म्हज्या मिशनाचो एक वांटो. ह्या देशांत आदींच कितलेशे धर्म संप्रदाय आशिल्ले. तातूंत इतिहास-विधात्यान भायले दोन मोटे धर्म – मुसलमान आनी खिस्ती हांगा हाडून सोडले. पारशी आनी ज्यू हेवूय भायले धर्म. पुणून ते कोणाचे वाटेक वचनासतना कडेक रावल्यात. दुसऱ्यांक बाटोवन आपणाली संख्या वाडोवपाचो हावेस तांकां ना. मुसलमान आनी खिस्ती धर्मांक हो हावेस आसा. दुर्दैवान हे दोनूय धर्म हांगा तरसाद घेवन आयले. सत्ताधिशां वांगडा आयले. ह्या सत्ताधिशांनी हांगासरल्या लोकांचेर आगळिको केल्यो. ह्या आगळिकांचो इतिहास लोक विसरूंक नात. इतिहास म्हळ्यार जावन गेल्ल्यो गजाली. त्यो जावन 'गेल्यो'. आयज नात. जावन गेल्ल्या गजालिंच्यो बेडयो आयज आमच्या पांयांक आमी बांदून घेतल्यो जाल्यार आमी आयचो दिसूय मेकळेपणान जियेवंक पावचे नात, फुडाराचीय वाट सारकी चलूंक पावचे नात म्हूण कितलेंय आड्डून सांगात, सरसमान लोकांक हें समजना. ते फाटलेंच घेवन बसतात. तांणी अशें केल्लें, तशें केल्लें अशें झरयत रावतात. कांय वर्सां पयलीं हिन्दुंनी अयोध्येंतली बाबरी मशीद मोडून मातये भरवण केली. कित्याक? तर खंय थंय राम जल्माक आयिल्लो आनी रामाचें थंय देवूळ आशिल्लें. तें मोडून बाबरान ताचेर ही मशीद उबारिल्ली... म्हजे कडेन The Soul of Indian History नांवाचें एक पुस्तक आसा. तातूंत बाबरान आपणाल्या पुताक, हुमायुनाक, बरयल्ली एक चीट दिल्या. बाबर पुताक सांगता, 'पुता रे, अल्लातालान आमकां असले तरेचो एक देश राज्य करपाक दिला कीं जंय हजार धर्म संप्रदायांचे लोक रावतात. खंयच्याच धर्म संप्रदायाच्या लोकांक दुखोवं नाका. तुका बरे भाशेन राज्य करूंक येवचें ना. इतलेंच न्हय, तर मुसलमानां मजगतच्या शिया सुन्नी झगड्यांतूय तूं कोणाचेच वटेन रावं नाका...' आतां, असले तरेचो उपदेस पुताक करपी बाबर रामाचें देवूळ कसो मोडटलो? पुणून लोकांक सांगल्यारूय समजना. आमचो इतिहास **आमी** बरोवंक ना. हिन्दू मुसलमानां मजगतीं सदांच झगडीं जायत रावचीं म्हणपाचो हावेस बाळगून बशिल्ल्या इंग्रजांनी तो आमकां सांगला. आमी तोच खरो इतिहास मानून चलतात. हांव म्हणटां, इंग्रजांनी सांगिल्लो इतिहास खरो आसूं, मुखार पावल घालपाक आयज तो आमकां उपकारना. तो विसरूंया. परकी सत्ताधिशांची तिडक आयच्या मुसलमान किरिस्तांवांचेर काडुंया नाका. आयचे मुसलमान किरिस्तांव आदले हिन्दू. भायल्यान येवंक नात ते हांगा. आमचेच भाव ते, सगळ्यांक कांय बळयां कोणें बाटोवंक नात. चडशे हिन्दू समाजांत मनीसपणान जियेवंक मेळना म्हूण ह्या समाजांतल्यान आपखोशयेन भायर सरल्यात वा हिन्दुंनी तांकां बळयां धुकलून भायर घाल्यात. टागोरांनी गोरा नवलकथेंत गोराच्या तोंडांत एक वाक्य घालां – 'हिन्दू समाजांतल्यान भायर सरपाचीं कितलींशीं दारां आसात. भितर सरतलो म्हळ्यार एकूय दार मेळना.' खंयच्याय कारणान जावं, आदले हिन्दू बाटून किरिस्तांव वा मुसलमान जाल्ले आसले तरूय ह्याच देशाचे लोक ते. आमचे इतलोच तांकांय हांगा रावपाचो, हो देश आपणालो म्हणपाचो हक आसा. ह्या देशा भायर तांकां दुसरो देश ना. ते भारत आपणालो देश म्हणिनात जाल्यार समजून चलूंक जाय, ते भौसंख्य लोकांक, म्हळ्यार हिन्दूंक, भियेतात. म्हूण केन्ना केन्ना तांकां शिंगांय दाखयतात. सायकॉलॉजिचो प्रस्न हो. तो सायकॉलॉजिच्या उपायानूच सोडोवंक जाय. तांकां हिन्दुंच्या हातांत आपणालें हीत सुगूर आसा अशें दिसूंक जाय. हिन्दुंनी तांकां निर्धास्त करूंक जाय. तांकां लागीं ओडून हाडूंक जाय. एकामेकांच्या सांगातांत एकामेकांक ते पूरक जातले. हिन्दू समाज हें विसरला. सगळ्या धर्मांच्या लोकांक एकामेकां लागीं हाडप, तांच्यांत कितेंय अपसमज आसात जाल्यार ते पयस करप, सगळे धर्म खरे, सगळे धर्म बरे, पुणून सगळे धर्म अपूर्ण उरल्यात तांकां एकामेकां लागीं हाडून तांच्यांत दिवप घेवप सुरू करप आनी पूर्ण करप हें हिन्दुंचें, तांचेंच, मिशन. सगळ्या धर्मांचें एक धर्मकुटुंब स्थापन करपाचें काम हिन्दुंनी न्हय जाल्यार कोणें करपाचें? रामकृष्ण विवेकानन्दांचो, गांधी विनोबा काकासायबांचो देस हो. ह्या मिशनाची हिन्दूंक जाणवीक करून दिवप हें फकत म्हजेंच मिशन न्हय, सगळ्या देशभक्तांचें हें मिशन अशें मानीत आयलां. म्हूण, ह्या विशयाचेर भौन भौन बरयत आयलां. म्हजो भोळो भावार्त म्हण, पुणून सगळे धर्म मनीसधर्म फकत ह्याच देशांत जावंक पावतले अशें हांव मानीत आयलां. 'एकम् सत् विप्रा बहुधा वदन्ति' हो हावेस ह्याच देशान सगळ्यांत पयलो उकतायला. जे कोण ह्या मिशनाक फाट करतात तांकां आर्विल्ले भाशेंत एक नांव आसा – इस्केपिस्ट – पलायनवादी. आनी पलायनवादी प्रगतिशीळ केन्नाच नासतात.

# डॉक कामगार

मूळ गुजराती: चन्द्रकान्त बक्षी
अणकार: माया खरंगटे

पोर्ट रेल्वेचे रूळ हुपून मसूद अहमद न्हंयचे देगेवेले वाटेर आयलो. उजवे वटेन रेल्वेचो लाकडी पूल आसलो. मसूद सपणां देंवन न्हंयचे देगेवेल्या फातरां मदीं येवन उबो रावलो. ताचे सत्रेची एक सरी सत्रेचो कपडो पिंजून भायर आयिल्ली. देगेर सत्री रोमून दवरून ताणें न्हंयचे वटेन पळोवन साद घालो. '...नंबर पंचावऽऽन...!'

न्हंयचेर धुंवरेल्लीं खोंपी-व्हडीं, ल्हान-व्हड लाँची आनी पोर्ट कमिशनराच्यो बोटी उब्यो आसल्यो. मॅन-ऑव-वॉर जेटी म्हऱ्यांत तीन दीस पयलीं आयिल्ली ब्रिटीश क्रूज एच्.एम्.एस्. 'गॉम्बिया'चेर गोरे तांडेल हेवटेन तेवटेन फिरताले. मुखारच आशिल्ल्या एका ल्हान व्हड्यांत रांदनीर आलिमेनच्या तोपांत तांदूळ शिजताले, आनी म्हऱ्यांतच तांबडी लुंगी न्हेशिल्लो एक व्हडेकार व्हडली सुरी घेवन मिरसांगो कापतालो.

मसूदान परत साद घालो. '...नंबर पंचावऽन...' पयसुल्ल्यान आवाज आयलो, '...आं... येतां...!'

मसूदान न्हंयचेर नदर भोंवडायली. एक व्हडेकार, ताका हात दाखोवन जाप दितालो. वळ सोडून एक व्हडें भायर येवन चपक्, चपक् करून मुखार सरता तो आवाज आयलो. मसूदान बोल्सांतल्यान विडी काडून पेटयली आनी हेवटेन-तेवटेन पळेलें. पैस रजबअलीच्या व्हड्यांत तंबाखुचे साक चडयताले.

रजबअली ताच्याच गांवचो व्हडेकार. पाकिस्तानांत ताची जमीन आसली. हांगा ताचीं तीन व्हडीं चलतालीं. पूण तो केन्नाच कोणाक आदार करी नासलो. पोरुंचीच खबर. स नंबरच्या वॅयर हावसांत जेन्ना क्रेन्नी वेल्यान कपड्यांची पोटली असलमाच्या पांयार पडून ताचो पांय मोडलो, तेन्ना ताणें घरा धाडूंक पयशे जोय म्हणून पन्नास रुपये ताचेकडेन मागिल्ले. पूण त्या चामट्यान ताका एक्कूय पयसो दिलो ना. असलमाचो पांय मोडलो म्हूण सरकारान तरी कितें दिलें? फकत अंयशीं रुपया दिवन ताका घरा धाडलो. ऐन तरणेपणांत ताचें मानायपण सोंपलें. आनीक पंचवीस वर्सां तरी कश्ट करून खातलो आसलो. पूण भिकाऱ्याचें नशीब घेवन आयिल्लो. सद्या कपड्यांचे गिरणेंत बशिल्ले कडेन नव्या कपड्यांच्या ठाण्याक जिलेटीन पेपर लायता.

उदक फाटीं उडयत उडयत व्हडें ताचें मुखार आयलें. व्हली मारतां मारतां व्हडेकारान विचारलें, 'कितें मसूद?' तितलेसर व्हडें देगेक लागलें. उजव्या हातातें लुंगी वयर काडून मसूद व्हड्यांत चडलो. थंय एक जाण्टो मनीस न्हिदिल्लो. ताचें खाड धुंवरेल्लें, बुरशेंशें दिसतालें. कोनशाक एक गांवठी हुक्को उबो करून दवरिल्लो. ताचे नळयेच्या तोंडार मेल्ले म्हशिच्या तोंडांत सुको फेंस आसता तसो गोबर आशिल्लो.

'कसो आसा आतां काका?'

'आतांच खांक चाळवल्ली. हांवें कितलें सांगलें, ताका गांवांत व्हर म्हणून. हवाय बदलतली आसली. हांगा सगळो दीस धुकें आनी धुंवर... रातचो धुंवर सकल देंवता तेन्ना अब्बा खांकून खांकून जाम जाता. काल हांव सादूर नाशिल्लों जाल्यार तो उदकांत पडपाचो.

न्हंयत पच्च करून थुकून ताणें सांगलें, 'म्हातारपण आनी दुर्येस बरोबर आयलां. सामको हटी कसो जाला.'

कश्ट काडून काडून घोटीव जाल्ले व्हडेकाराचे कुडीक पळयत मसूदान म्हळें, 'अख्तर हांव तुका एक सांगूंक आयिल्लों. म्हजे बायलेचो आज सकाळीं आबोर्त जालो...'

'कितें?' अजापान अख्तरान विचारलें.

'सकाळीं उदकाक लागून नळार खेंट पडिल्ली. रजिया उदक हाडूंक गेल्ली. थंय झगडीं जालीं. आनी धुकळा-धुकळ जाली. म्हाका लोकांनी येवन सांगलें. ते बराबर हांवें तिका रोखडीच हॉस्पिटलांत व्हेली. दोतोरान तिका थंयच दवरूंक लायली. ना जाल्यार वीख सगळ्या आंगाक बळून ती मरतली आसली. तिका थंय दवरून आयलां. सामको खर्चांत सांपडलां.'

'बायल बरी जाल्ली जाय मरे? मागीर खर्चाचें कितें घेवन बसला? पयशे कशेय येत. बायल मेल्यार अशी दुसरी मेळची ना.'

'आतां मेरेन शंबर रुपया खर्च केले. आनी कितले लागत सांगूं नज. सगळें थोडें म्हूण युनियनाचो संप चलता.'

'तूं खंय आसा युनियनांत?'

'हांव ना रे. पूण गोदींत काम चलना न्हय. कितले दीस जाले... क्रेन्नी लेगीत कळमेल्यात. माक्नांक तेल दिवपी लेगीत संपार गेल्यात. संप असोच उरलो जाल्यार?'

'हय, रोटी कशी मेळटली? मजूर जेवणा शिवाय कितले दीस रावतले?'

मसूदान विडये पोंतेराक निमणो घोंट मारलो. आनी पोंतेर उदकांत उडयलें. तोंडांतल्यान धुंवर सोडीत ताणें म्हळें,

'तितले म्हणसर भुकेन मरतले. युनियनाचे मुखेली सदांच सांजवेळच्यो बसका घेतात. बेकार मजुरांच्या नांवान देणगी एकठांय करतात. आनी त्या पयशांनी सोरो पियेतात. मुखेल्यां पासत टॅक्सी धांवतात. आनी कामगारां कडेन खोंपिंचें भाडें भरूंक लेगीत तीन रुपया नात.'

ल्हवू आवजान मसूदान मुखार म्हळें, 'बसकेंत घोशणा दिल्यो म्हणून पोटां भौ भरतात.'

'कितले दीस जाले तूं बेकार आसा?' अख्तरान विचारलें.

'आज चोविसावो दीस. पळेतां. दोन-तीन दिसां भितर संप सोंपलो

जाल्यार कामार वतलों हांव. एके वटेन बायल बरी ना आनी चल्याकूय चलच्यान जोर येता. जोडूंक गेलों ना जाल्यार तांकां पोटाक कितें घालूं? म्हजी तकली?'

न्हंयचे देगेकडेन पळेत ताणें मसूदाक विचारलें, 'सद्या तुजेकडेन कितले रुपये आसात?'

'फाटले तीन म्हयने सिझन आसलो म्हण शंबर रुपये सांबाळून दवरिल्ले. ते एका धपक्यांत सोंपले. कामाक लागपाचें सोडून म्हजेकडेन आनीक कांयच उपाय ना.'

अख्तर थोडो वेळ वोग्गी रावलो. मागीर ताणें म्हळें, 'आतां तूं पंदरा रुपये व्हर. डॉकाचेर काम सुरू जातकच परत दी.'

अख्तर उठलो आनी ताणें पोंदच्यान पोन्नोसो ट्रंक भायर काडलो. तांतले एके बुरशे कशे पर्सीतल्यान पांचा पांचाच्यो तीन नोटी काडून मसूदाच्या हातांत दिल्यो. बोल्सांत पयशे दवरतां दवरतां मसूद उठून उबो रावलो. अख्तरान म्हळें,

'बायलेक बरी करून सांबाळ आं. आज लॉंच चालू आसा म्हणटकच म्हाका तिचे खबरेक येवंक वेळ मेळचो ना. जमल्यार फाल्यां घरा येतां.'

मसूदान व्हड्यांतल्यान देगेर उडी मारली. आनी हात हालोवन म्हळें, 'खुदा हाफिज!'

एका फातराक व्हलें तेंकोवन व्हडें उदकांत सोडीत अख्तरान म्हळें, 'खुदा हाफिज!'

दोन दिसां उपरांत मसूदान दोतोराचे सांगणे वेल्यान बायलेक घरा हाडली. रजिया सामकी अशक्त जाल्ली. चल्याचो जोर अजून वचूंक नासलो.

तो ञातचो घरा यो जाल्यार पूत आनी रजिया न्हिदिल्लीं. बायले म्हऱ्यांत बसून ताणें लापयांवाची वात मात्शी व्हड केली. रजियान कूस परतिली. तिच्या सुक्या केंसांतल्यान हात फिरयत मसूदान हळूच म्हळें, 'रजिया!' रजियान दोळे उगडले. कांयच उलयनासतना ती ताका पळेत रावली.

'कशी आसा?'

'आसां बरी.'

खीणभर दोगांय वोग्गी रावलीं. मसूदान ल्हवूच म्हळें, 'हांवें फाल्यांच्यान कामार वचचें थारायलां.'

'कित्याक?'

'कितले दीस म्हूण वोग्गी बसून रावं? पयशे नात हातांत.'

रजियान न्हिदसुरे दोळे उगडून म्हळें, 'संप चालू आसा न्हय?... युनियनवाले तुका सतायतले...'

'म्हजो आनी युनियनाचो संबंद कितें? हांव तांचो वांगडीय ना आनी तांच्या फंडाक एक पैसोय दिना.' मसूदान मात्शें तापुनच म्हळें. 'दर एका कामगाराक काम करपाचो हक आसा. म्हज्यांत काम करपाची तांक आसा जाल्यार म्हाका कोण आडायतलो?'

रजियाक कांयच कळ्ळें ना, तरी तिणें विचारलें, 'संप युनियनान करपाक सांगला न्हय?'

मसूदान तिरस्कारान म्हळें, 'युनियन! युनियन म्हज्या बायल-भुरग्यांक रोटी दिता?' लापयांव मात्सो मंद करीत ताणें म्हळें, 'रजिया, डॉक कामगार सामके माजरा पिलां वरी मूर्ख, अशिक्षीत. मोहम्मद इजरायल नाचयता तशे नाचतात. अजून मेरेन इजरायलाक कोण बुद्द शिकोवपी मेळूंक ना. ताका खबर ना डॉक कामगार म्हळ्यार कितें तें.'

'आमी गरीब मनशां. तो कितलोय जाल्यार व्हड मनीस. ताचे कडेन झगडपाचो विचार तरी कसो केलो तुवें?'

मसूद वोग्गी रावलो. ताणें आपल्या हाताच्यो मुठी आंवुळ्ळ्यो. उबो रावन तांबयांतलें थंड उदक पियेलो. भायर काळोख आसलो. आलिमेनचे वाटेंत वखद ओतून ताणें रजियाक पिययलें आनी पिंजकरी शेंदरी पातळावन न्हिदलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं मसूदान कुशिंनी बुराक पडिल्लो निळो टी-शर्ट आनी तेलाचे दाग पडिल्ली पॅन्ट घाली. पॅन्टिच्या बोल्सांत तांबडी ल्हान फणी आनी डॉक कामगाराचें वळखपत्र घालें. गळ्यांत पानाचे डाग पडिल्लो रस्मी लेंस बांदलो. जोरान हून जाल्ल्या पुताच्या पोल्याची पापी घेतली आनी आपलो तुतयो घेवन डॉकार वचूंक भायर सरलो.

वाटेर चाँदनी हॉटेला भायर उबे रावन दोग जाण कॅम्पा कोला पितात ते ताणें पळेले. तांतलो एक आसलो डॉक कामगार संघटनेचो सेक्रेटरी मोहम्मद इजरायल. ताच्या मोटव्या लबलबीत आंगार येदी व्हडली तकली भयांकृतशी दिसताली. ताचे दोळे बेब्यावरी बटबटीत दिसताले आनी काना सकयल जळिल्ल्याचो एक डाग आसलो. दुसरो आसलो ताचो चमचो, बिसू चटर्जी. इजरालयान मसूदा कडेन पळोवन म्हळें, 'मसूद भैया, खंय वता?'

मसूद जाग्यारच उबो रावलो. खिणभर ताणें दोगांकय पळेले. आनी तुतयो दाखोवन थंडपणान सांगलें, 'डॉकार!'

'ओह, संप सोंपलो!...' इजरायल व्हडान हांसलो आनी दोळे मिचकायत ताणें सांगात्याक म्हळें,

'बिसू, मसूदसायबाक आतां युनियनाचो मेंबर करून घे.'

बिसू हांसलो. ताचे उंटावरी कुशिल्ले हळडुवे दांत पळोवन मसूदाक वीट आयली. तो जमनीर थुकलो आनी चलपाक लागलो.

बिसू धांवत आयलो. मसूदाच्या खांदार हात दवरून ताणें म्हळें,' पिशा! कितें करता हें? एक मजूर जावनय मजुरांच्या पांयार कुराड मारता?'

खांदे फांफडून मसूदान म्हळें, 'पेल्यान सर सुण्या!'

इतलें म्हणून मसूद रावलो ना. ताका धुकलून ताणें पावल मुखार घालें. इतल्यांत कॅम्पाकोलाची एक रिती बाटली ताच्या पांया मुखार येवन खळ्ळ आवाज करून फुटली. मसूदान सट् करून फाटल्यान पळेलें. मोहम्मद इजरायल हांसत ताका पळेतालो. बिसू एके रिकामे रिक्षे फाटल्यान उबो राविल्लो.

मसूदाच्या हाताच्यो शिरो फुगल्यो. थरथरपी तुतयो वयर काडून हालयत ताणें म्हळें, 'इजरायल! म्हाका भेश्टोवपाचो यत्न केल्यार पळेच तूं, ह्याच तुतयान तुजी तकली फोडटलों.' ताचें उलोवणें सोंपतासर हॉटेलाच्या दारार तीन-चार लोक येवन उबे रावले. त्याच खिणाक इजरायल हॉटेलांत भितर सरलो. बिसू थरथरतालो. ताचो रागान फुगिल्लो चेरो पळोवन मसूद सट्ट करून डॉकार वचपी रस्त्याचे वटेन चलपाक लागलो.

दोन दिसां उपरांत मसूद न्हंयचे देगेर वचून अख्तराक मेळ्ळो आनी ताका सांगलें, 'हांव कामार वतां. युनियन मात्शें हाल्लां शें दिसता. म्हाका एकल्याकच कामार वता तो पळोवन फाल्यां तीन-चार कामगार कामाक येतले.'

'पूण युनियनान तुका आडायलो ना?'

'युनियन म्हाका भेश्टावपाचे जायते यत्न करता. पूण हांवें इजरायलाक दाखोवन दिलां म्हजी माती वेगळी म्हणून.'

अख्तरान गंभीर जावन म्हळें, 'म्हजें आयकतलो जाल्यार तूं युनियनाचो वांगडी जा.'

'कित्याक?'

'तूं युनियनाचो वांगडी जालो जाल्यार तुका युनियन फंडांतल्यान ह्या बेकार आशिल्ल्या दिसांचे पयशे मेळटले.'

'पळे अख्तर, हांव युनियनाचे भिकेर जगना. म्हाका पगार मेळटा तो म्हज्या कश्टांचो, युनियन वा इजरायलाक 'जी हुजूर' करपाक न्हय. इजरायल कामगारांच्या फायद्या खातीर संप करता? डॉक कामगारांक तो भंय

घालून हातांत धरता. ताचे कडेन पयशे आसात. आनी स म्हयने लेगीत संप चालू उरल्यार ताका कांयच बादा जावची ना. म्हजें तशें न्हय. हांव कश्ट करतां खातां रेश्पेतान... इजरायला आड कोणेंय तरी तकली वयर काडूंकच जाय. तो कामगारांच्या जिविता कडेन खेळटा.'

'सरकार...'

'सरकार कितें करतलें? सेक्रेटरीक आपयतलें, भासाभास करतलें, च्या काफी पिवयतलें. गरज पडल्यार पयशे खावयतलें. मागीर संप सोंपतलो. डॉक कामगार फुडारी मोहम्मद इजरायल सायबाचें नांव गाजतलें. रोजी वता तुजे म्हजे सारक्याची!' मसूदान तापुनच सांगलें.

अख्तर ओग्गी रावलो. ताणें विशय बदलूनं विचारलें, 'मसूद, त्या दिसा हांव तुगेर येवंक पावलों ना, आतां तुजी बायल कशी आसा?'

'बरी आसा.'

'पुताचो जोर गेलो?'

'हय. कालच्यान जोर देंवला.'

थोडो वेळ खबरी करून मसूद गेलो.

सुर्याचीं पयलीं किरणां येवचे पयलीं संकरी वाड्यार हालचाल सुरू जाली. भुरग्यांची रड आनी नळार झगडुपी बायलांच्या आवाजान मसूदाक जाग आयली. ताणें पयलीं पुताच्या कपलार हात दवरलो. जोर नाशिल्लो. रजिया अजून उठूंक नासली. तिचें पांगरूण कुशीन पडिल्लें. मसूदान तें सारकें घालें आनी तो भायर गेलो.

मसूद भायल्यान आयलो तरी रजिया न्हिदिल्ली. ताणें डॉकार वचपाचे कपडे घाले. हळडुव्या रंगाचें वळखपत्र काडून बोल्सांत घालें आनी तुतयो घेवन कामार वचूंक तयार जालो. रजिया कडेन कितेंय तरी उलोवचें अशें मसूदाक दिसलें. पूण रजिया न्हिदिल्ली. तो ल्हवूच भायर आयलो आनी दार बंद करून घेतलें.

मसूद रस्त्यार आयलो. पैस आशिल्ल्या चाँदनी चौकांत एका मेजार दोन कामगार बशिल्ले. मसूद हॉटेला वटेन पळेनासतना मुखार चलपाक लागलो. तेन्नाच मसुदाच्या खांदार कोणें तरी ल्हवूच हात दवरलो.

'कितें इश्टा, डॉकार वता?...'

मसूदान पळेलें, बिसू धवें खोमीस आनी पुडवें न्हेसून उबो आसलो. एक खीणभर दोगय एकामेकांक पळेत रावले.

'यो मसूद, एक च्या मारया. म्हाका तुजेकडेन मात्शें उलोवपाक जाय.'

'कितें उलोवंक जाय? कितें सांगपाचें आसा तें हांगाच सांग.' मसूदान तिडकूनशें सांगलें.

'विश्वास दवर म्हजेर. हांवय एक कामगारच. पांच मिनटांच उलोवंया.' बिसून नमळायेन मसूदाक सांगलें आनी ताका हॉटेलांत हाडलो.

दोगय भितर सरले. दोन मनीस सोडल्यार अख्खें हॉटेल रिकामें आसलें. मसुदान तुतयो घट धरलो. एका कोनशाक आशिल्ल्या मेजार दोगय जाण बसले. बिसून च्याची ऑर्डर दिली आनी सांगलें,

'मसूद, म्हाका इजरायलान तुजे कडेन धाडला. हांव मना पासून तुजे कडेन मागतां, एक सप्तकभर तूं कामाक वचुंनाका. सरकार नमलां आनी दोन-तीन दिसां भितर इजरायलाक उलोवणीं करपाक आपयतलें.'

मसूदाच्या तोंडार कांयच बदल जालो ना. तो बिसूक पळेत रावलो. बिसून दोळे बारीक करीत म्हळें,

'पळे, तूं कामार गेल्यार हेर कामगारय वचूंक सोदतले. तूं समजीक आसा. कामगारांच्या पोटार खोंट मारुंनाका.'

'हांव? हांव कामगारांच्या पोटार खोंट मारतां? तुमी कामगारांक उपाशीं उडयल्यात. तुमच्या सुवार्था खातीर, तुमच्यो टॅक्सी चलोवपा खातीर.'

'मसूद, जाग्यार यो. पिशावरी करुंनाका. तुका ह्या बेकार आशिल्ल्या दिसांचे पयशे मेळटले. सांग तुका आनीक कितें जाय?'

मसूदान तोंडाक लायिल्लें च्याचें कॉप बशेंत फोर्सान दवरलें आनी दोळे मोठ्ठे करून विचारलें,

'बिसू, म्हाका विकतो घेवंक हांगा हाडला?'

'विकतो घेवंक न्हय, इश्टागत वाडोवंक.' बिसून सांगलें.

'चल, डॉक सेक्रेटरीक सांग, डॉक कामगार म्हळ्यार कोंबयो न्हय बाजारांतल्यान विकत्यो घेवंक.'

च्या तसोच उडोवन मसूद तुतयो घेवन उबो रावलो. बिसून बेगीन बेगीन उठून ताचो हात धरलो आनी म्हळें,

'आयक, आज जर तूं कामार गेलो आनी संप मोडलो जाल्यार कामगारांचें लुकसाण जातलें. शिवाय, म्हजे आनी इजरायलाचे सामके हाल जातले.'

मसूद व्हडल्यान हांसलो. 'मागीर तूं आनी तुजो सेक्रेटरी बंदखणींत बसून कॅम्पा कोला पियात.'

पायांनी कदेल धुकलून उडोवन मसूद भायर सरलो. मुखार मोहम्मद इजरायल सिगार ओडीत उबो आशिल्लो.

'कितें बाब, कॅम्पा कोला पितलो?' थंडसाणेन इजरायलान विचारलें. ताका जाब दिवचे पयलींच मसूदान इजरायल दोळो मोडटा तें पळयलें. हातांतलो तुतयो वयर उबारतनाच कोणें तरी ताच्या हातार लोखणाचो वारांव मारलो. तुतयो खण्ण आवाज करून सकयल पडलो. किळांच मारून ताणें दाव्या हातान उजवो हात धरलो. इतल्यांत मुखावेल्यान येवन आनीक एकल्यान ताच्या पोटार मूठ मारली. मसूदाचें तोंड उकतें जालें, ते बराबर कोणें एकल्यान ताच्या तोंडांत कपड्याचो गुड्डो भरलो. मसूदाची तकली घुंवताली. हाताची क़ळ सोंसूंक जायनासली. तेन्नाच कोणें तरी ताचेर फाटल्यान खोंट मारली. ते बराबर मसूद जमनीर पडलो. दुसऱ्याच खिणाक ताचेर खोंटिंचो पावस पडूंक लागलो. थोड्या वेळान मसूदाची कूड हालचाल करिना जाली तेन्ना इजरायलान सांगलें,

'पुरो इश्टांनो, मसूदसायबाक इतलो मोग पुरो!'

बिसून खर्शेंत खर्शेंत म्हळें, 'इजरायल, तूं कसलो मनीस रे, आमच्या इश्टाक कॅम्पा कोला दिवंक विसरलो!'

'ओह', अशें म्हणून इजरायलान एका धडधाकट मनशाक सांगलें, 'लखन! एक कॅम्पा कोला ह्या सायबाच्या तोंडांत रकय आनी ताका सांबाळून व्हरून न्हंयचे देगेर थंड वाऱ्याक न्हिदय.'

बिसूचो हात धरून इजरायल गेलो. वतां वतां ताणें सांगलें, 'आनी पळे, तो तुतयो व्हरून ताच्या शेजरा दवर. इजरायलाची तकली फोडूंक जाय न्हय ताका!'

'आनी गरज पडल्यार कफनाक खिळे मारूंक उपकरतलो.' बिसून म्हळें. पावणेर काडूंक उबे राविल्ल्या कसायां वरी सगळे हा हा करून हांसपाक लागले.

खाटेर बसून रजिया काळ्या बुरख्या आडच्यान पळेताली. तिचे मुखार पट्ट्यांनी बांदिल्ली मसूदाची कूड आसली. पायाकडेन रडून रडून न्हिदिल्लो पूत आसलो. ते ल्हान कुडींतल्यान लोकांचें यो-वच जाल्ल्यान गर्दी जाल्ली. लोक आपसांत उलयताले. 'मानायपण करप, आनी लाटसायबाचो झेत दाखयल्यार कशें जातलें?...' रजब अली म्हणटालो.

'डॉकार तर युनियनच सरकार जालां. लेबर कमिशनरय युनियनाक भिता. थंय सादारण मजुराक कोण भीक घालता? हांवें मसूदाक सांगिल्लें, युनियनाचो मेंबर जा आनी इजरायलाक खूश दवर म्हणून. इजरायलान मनांत हाडल्यार तो खंयचो खंय व्हरून बसयतलो आसलो. बिसियाक पळेलो ना? म्हयन्याक पन्नास रुपया मेळपाची मारामार आसली. आज सुशेगाद बसून पांचशीं रुपया तरी जोडटा जातलो इजरायलाच्या बरेपणान.' अख्तरान सांगलें.

खीणभर थंय किण्ण जालें. इतल्यांत एका जाण्टेल्याचो आवाज आयलो.

'तें सगळें बरें आसा पुतांनो. पूण मसूद खरो दादलो आसलो. एकट्यान ताणें इजरायलां कडेन झूज केलें. इजरायलाक ताच्या जिवितांत कोण मेळूंक ना जातलो.'

अख्तराच्या बापायन थकिल्ल्या आवाजांत सांगलें. बोंथर जाल्ल्या बुरख्या आडच्यान हुडकेवपाचो आवाज येतां तो पळोवन सगळे ओग्गी रावले. थोड्या वेळान सगळे दादले उठले. अख्तराच्या बापायन रजिया म्हऱ्यांत येवन तिका धीर दीत म्हळें,

'भियेनाका बाय, हो थोड्या वेळान साबुद्दीर येतलो. दोतोरान सांगलां, आठ दीस सुशेग घेतकर तुजे घाय भरतले. पूण मोडिल्लो हात बरो जावंक देड म्हयनो तरी लागतलो. सोड, खुदाची मेहेरबानी. जीव तरी वाटावलो.'

हळू हळू सगळे उठून भायर गेले. अख्तराच्या बापायन सांगलें, 'हांव हांगाच रावतलों.'

पांच स दीस जाले. हळूहळू मसूदाचे घाय पेखताले. सात दिसां उपरांत हरताळ सोंपलो. कामगार कामार वचूंक लागले. लेबर कमिशनर आनी युनियनाच्या फुडाऱ्यांचीं उलोवणीं जालीं. निमाणें समजिकायेचो करार तयार ज़ालो. दोनय पक्षांक दिसतालें, तांचेंच जैत जालां. संप काबार जाले उपरांत सात दिसांनी एक व्हड सभा जाली. लेबर कमिशनर खन्ना हे सभेचे अध्यक्ष आसले.

मसूद चलूंक फिरूंक लागिल्लो. फकत मोडको हात अजून प्लास्टरांत आसलो. तो सभेक पावलो तेन्नाच इजरायलाचें भाशण सोंपिल्लें. माटवा भायर एके कुशीनसो उबो रावन ताणें माचयेर पळेलें. थंय बिसू, लेबर कमिशनर सगळे बशिल्ले. कामगार संवसारभरांतल्या कामगाराच्या एकचाराच्यो घोशणा दिताले. कांय जाण म्हणटाले, 'मोहम्मद इजरायल झिंदाबाद!'

इतले म्हणसर शांतताय पातळ्ळी. लेबर कमिशनर भाशण करूंक उबो राविल्लो. खन्नान सुरवेकच मजुरांक तांच्या जैता खातीर परबीं दिलीं. मजूर-फुडाऱ्यांचे हुशारकायेची आनी मोहम्मद इजरायलाचे श्रमविभागा कडेन सहकार करपाचे वृत्तिची तुस्त केली. मसूदाचें तोंड कोडू जालें. हारिल्ल्या देशाचे युद्धबंदी स्वदेशांत परतुचे तसो मसूद सभा सोडून घरची वाट चलपाक लागलो.

लाऊडस्पीकरांतल्यान खन्नाचो कर्कश आवाज येतालो. मसूदान थंयच्यान धांव मारली. आवाज फाटीं उरलो. मुखारच ताचें घर आसलें. एक मिनीट भर तो भायर उबो रावलो. उपरान्त हळूच दार उगडून ताणें भितर पळेलें. खाटीर रजिया आनी ताचो पूत आड पडिल्लीं. पूत रडटालो. रजियान ताचेर एक थापट मारिल्लें. रजियान रडत रडत ताका वेंगेंत घेतलो. तो हळू हळू रडपाचो थांबलो.

मसूदान भितर येवन ल्हवूच दार बंद केलें. काळखांत बशिल्ल्या कबुतरा वरी आपणाचेरूच फडफडत तो सकल बसलो.

✲ ✲ ✲

# इंग्लीश भाशेंतले गोंयकार बरोवपी

**मनोहरराय सरदेसाय**

फिरंगी लोकांलागीं चारशें वर्सां वयर लागचो संबंद आयिल्ल्यान गोंयकारांनी खुबशें बरप पुर्तुगेज भाशेंतल्यान केलें. फ्रांसिश्कु लुईश गोमिश, फ्लोरियान बार्रेतु, पावलीन दिअश, नाश्सिमेंतु मेंदोस, मिनेझिस ब्रागांझ, आदेउदातु बार्रेतु आनी हेर जायत्या गोंयकारांनी कामोइशाची भास आपणावन ते भाशेंत तोलामोलाचें बरप केलें. जावं काव्य, जावं वर्तमानपत्री लेख, जावं कथा तांचें बरप म्हळ्यार पुर्तुगेज भाशेचो अळंकार जावन रावला.

गोंयकारांनी इंग्लेज शिकपाक आनी बरोवपाक मात्शी उसरांच सुरवात केली. इकुणिसाव्या शेंकड्याचे अखेरेक खुबशे गोंयकार गोंयाभायर ब्रिटिश हिंदुस्तानांत वचून रावले. तांचो आनी इंग्लीश भाशेचो चड लागचो संबंद आयलो आनी हेर भारती मनशांनी इंग्लीश भाशेंत साहित्य रचिल्लें तशेंच तांणींय रचलें. गोंयकारांनी घडयल्लें हें इंग्लीश साहित्य म्हळ्यार जाका इण्डो-अँग्लियन लिटरेचर अशें म्हणटात त्या नव्या साहित्याचेंच एक आंग. सी.आर.रेडी म्हणटात ते प्रमाण 'हें इण्डो-अँग्लियन साहित्य भारती साहित्या पसून वेगळें न्हय. भारती साहित्याचेंच तें एक आंग. पुर्विल्ल्या वेदां पसून चलत आयिल्ल्या आनी टागोर, इकबाल, अरविंद घोष मेरेन येवन तेंकिल्ल्या आमच्या साहित्याचेंच तें एक लिकलिकीत तास.'

तरी ह्या अँग्लो-गोअन साहित्यांत थोडें खेरीतपण आसा. पयल्यावयल्या गोंयकार बरप्यांत तर तें सामकें उकतें दिसता. हें खेरीतपण म्हळ्यार गोंयची ओड, गोंयच्या सैमाचो मोग आनी गोंयचें जिवीत उकतें करून दाखोवपाची उमळशीक. तशें पळेल्यार गोंयकारांनी बरयल्ल्या आतां मेरेनच्या चडश्या साहित्याचेर गांव-भायरेपणाची दाट साय पडल्या.

हें इंग्लीश साहित्य, साहित्याच्या सगल्या मळांत दिश्टी पडटा: वर्तमानपत्र, काव्य, लेख, कथा, कादंबरी. ह्या साहित्याची सुरवात खरें म्हळ्यार जिवितांतले एके गरजेंतल्यानूच जाली, गोंयकारांक आनी गोंया भायल्या लोकांक गोंयची वळख करून दिवप आनी चालू गजाली तांकां कळीत करप ही ती मुखेल गरज. गोंया भायर तरी इंग्लेज भाशे इतलें दुसरें प्रभावी साधन त्या वेळार नासलें. देखुनूच ह्या साहित्याचें पयलें रूप आसलें वर्तमानपत्री. पयलो उगडास जाता तो The Goan World ह्या नेमाळ्याचो संपादपी Justina D'Souza हांचो. आपशींच The Goan World भोंवतणीं जायते बरपी एकठांय आयले: Patrocinio Andrade, Aloysius Soares, Correia Afonso, Armando Menezes आनी Correia Fernandes हीं कांय नामनेच्या बरप्यांचीं नांवां.

The Goan World क लागुनूच आनी कांय तरणे बरपी मुखार आयले: Lucio Rodrigues, Manuel Rodrigues, Linda Ribeiro, George Coelho, Yvonne Coehlo, Agostinho Monteiro, Nora Secco de Souza, John Correia आनी Joao Coutinho.

The Goan World उपरांत Goan Life, Konkan Life, The Goan Tribute हीं उदेलीं. गोंयचे सुटके उपरांत The Navhind Times हें दिसाळें सुरू जालें आनी Goa Today हें म्हयनाळें आनी The Perspective हें सातोळें. ह्या सगळ्या नेमाळ्यांतल्यान ल्हान व्हड गोंयकार बरपी बरोवंक लागल्यात. तातुंतल्यान बरें बरप कुशीक काडप हें मुखावयल्या टिकाकारांचें काम.

काव्याच्या मळार पयलें नांव घेवचें पडटा तें Joseph Furtado हांचें: The Desterrado, A Goan Fiddler, Lays of Goa हे तांचे कवितांचे झेले १९२५च्या सुमाराक उजवाडाक आयले. नांवा वेल्यानूच दिसून येता कीं हो कवी गोंयच्या मोगान भरून गेला. गोंयचे ओडीन हुलपला. Desterrado म्हळ्यार हुमटून उडयल्लो मनीस, गांवा भायरो मनीस. ही गांवाभायरेपणाची खंत म्हळ्यार फुर्तादुचे कवितेचो मुखेल भाव, पयलो उगाळो. ताच्या कवितांची रचना सादी, उतरां सोंपीं, मनाक दिपावपा परस ते काळजाक हालोवंक सोदतात. हो 'गोअन फिडलर' काळजाच्या रेबेकांतल्यान गांवच्या मोगाचे सूर आळयता.

To The Mandovi ही तांची कविता पळेयात:

Poor though the gift, like the giver
All my heart goes with it, River.
Dear River Mandovi
Goes to Thee, now and forever
O Mother Mandovi:

दिवप्यावरीच देण ही धाकटुली
पूण सगलो म्हजो मोग हे देणींत आसा
हे न्हंये मांडवी, हे माते मांडवी

तशीच उमळशिकेन भरिल्ली ही कविता.

My Native Land
''Hills and Valleys everywhere
On each hill a Cross or Shrine
In each valley cots and farms
Other lands may be as fair
Yet what land, what land but mine
Is so blest with peaceful charms!
Land of palm and cashew-tree
Dear of Life art thou to me!

''वचत थंय दोंगर गाळी
दोंगुल्लेचेर खुरीस देवळी
घूड, मळां सगले कडेन
आनीक आसत सोबीत भुंयो
पूण खंयचेकडेन मेळत इतली
शांतताय!
माडांची भूंय ही. काजू-रुखा भूंय ही
जिवीत म्हजें.''

कवी गोंया भायर आसलो तरी ताका गांवची याद कशीच सोडिना. My Village ही कविता अशीच उगडासान भरल्या—

A little hill with bulbuls gay
From cashew-trees warbling all day
A gentle stream, a paddy field

Twice a year belike a garden tilled
And little huts, in groves of palm
With pleasant folk content and calm
And once these things were all to me
But never, never more can be!
My feet may wander where they will
My heart never leaves the little hill.

म्हजो गांव:
धाकटुले दोंगुल्लेचेर काजूरुखांर दिसूयभर बुलबुल किलकिलतात. व्हाळ मंद व्हांवता. एक शेत वर्सातल्यान दोनदां बागेवरी सोबीत दिसता. भाटांत मुंगल्ल्यात माणकुल्योच खोंपी, थंयचे लोक थंड आनी सुखी. एका वेळार ह्यो सगळ्यो वस्ती म्हज्यो आसल्यो. पूण आतां म्हाका त्यो परतून केन्नाच मेळच्यो नात, केन्नाच मेळच्यो नात. म्हजीं पावलां पावतात थंय पावंदी, पूण म्हजें काळीज मात ती दोंगुल्ली सोडून खंयच वचना.

ह्या दुखेस्त सुरा वांगडा तांच्या रेबेकांतल्यान मोगाचो सुरूच आयकूंक येता आनी भुरग्यां वांगडा भुरगे जावन ते तालार नाचतात, भुरग्यांक फाटीर घेवन धांवतात तांची ही Nonsense Nursery आयकात:

Glad the baby
Made me pony
Up the alley
Down the valley
Ran the pony

बाबुल्यान म्हाका घोडो केलो
मार्ग हुपून, दोंगर हुपून
धांवलो घोडो, धांवलो घोडो

गिमाचो भार आसा, आंब्या रुखार आंबे आसात. पूण ते कशे मेळटले? भुरगीं वाऱ्याक आळयतात, विनयतात:

Under the mango-tree
You are so tall
O Mango tree!
We are so small
O mango tree
Come winds, come blow!
This mango tree
Won't pity show
Though we hungry be
Blow winds and throw
The first we see
Blow dear winds blow
There! One, two, three.

आंब्या रुखा, आंब्या रुखा
कितलो तूं व्हड
आमी कितलीं ल्हान
आमकां लागल्या भूक तरी
दाख्योवंचोना रूख आमकां दया-माया
वाऱ्यांनो येया, येया
तो आंबो दिसता तो सकल उडया
एक, दोन, तीन
येया, वाऱ्यांनो येया.

गोंयकार बरप्यांतूच न्हय, हिन्दी बरप्यांनी बरयल्ल्या इंग्लेज साहित्यांत प्रो. आर्मांद मिनेझीस हांची सुवात व्हड आसा. इंग्लेज भाशेचो हो जाणकार आनी इंग्लेज साहित्याचो हो शिकोवपी. इंग्लेज काव्याचे सगले नेम पुराय जाणा. आनी हे जाणकारींतल्यानूच तो आपलें कवीत रचता.

खोल चिंतनां, नव्यो कल्पना, शब्दांची सुरावट आनी उतरांचीं चित्रां म्हळ्यार तांचे कवितेचीं मुखेल आंगां. बुद्द आनी उमाळो हांचो सोबीत सांगड तांचे कवितेंत दिश्टी पडटा. आनी तांच्या कविता-विश्वांत सगले तरेचे विशय मेळटात. कविता, फुलां, भुरगीं, मोग, देव, मर्ण, जिवीत. To my children ही कविता पळेयात.

All that I dream or make
For Love's or Beauty's sake
All that I seek to reach
Music of soul and speech
Earth-fragrance, lighted star
All these and more you are.

म्हज्या भुरग्यांक
सगलीं म्हजीं कर्तुपां
सगलीं म्हजीं सपनां
मोगा खातीर, सोबे खातीर
सगलीं म्हजीं चिंतनां
आत्म्याचें गीत जावं
काळजाचो उलो जावं
धर्तरेचो परमळ आनी
नखेत्रांचें कीर्ण जावं
सगलें म्हाका मेळटा हें
तुमचे भितर
कितलेशेच आनीक चड.

मिनेझीस संवसाराचे सोबायेच्या मोगांत पडला. The Mighty Lover म्हळ्यार व्हड मोगी हे कवितेंत तो म्हणटा:

हांव तो व्हड मोगी
धर्तरेची सगली सोबाय म्हजी
लजेस्त माणकुल्या फुलांच्या परमळीत हांशान
भरिल्लें जिवीत म्हजें
मळबाची थानावरी वाटकुळसाण म्हजी
सवण्यांचें उडप म्हजें, चानयांची चपळाय म्हजी
भुरग्यांचीं आडांगपणां, बाबुल्याचीं
लुडबीं उतरां म्हजीं.
उजवाड आनी साय
दोनूय म्हाका जाय
मोगी काळजांतले दुबाव कश्यो काजी
घाटींतल्यो थरथरपी सांवळ्यो
पातक आनी पुण्य झूज आनी जैत
आनी सगळ्या सांवळ्यां परस विरळ
अशी सांवळी – जिवीत
म्हाका जाय.

जोसेफ फुर्तादो वरीच आर्मांद मिनेझिसाचे कवितेंत गोंयचो मोग आनी गोंयची ओड होलमता. 'गांवा भायरो' हे कवितेंत हीच ओड थरथरता:

''मेळनासलेल्या भांगराचो वाज येवन
हे मांयभुंये तुज्या अस्तमत्या सुर्याच्यां
नितळ भांगराच्या तुज्या वावान धोलपी
भांगराच्या कणसाचे भरतेची म्हाका ओड लागल्या
म्हज्या जाणटेल्यांचे भुंये! म्हज्या भुरग्यांचीय तूं
मोगाची आनी मनाची भूंय जावची हीच म्हजी इत्सा.''

डॉम मॉराइश हो फ्रँक मॉराइश हांचो चलो. इंग्लेज काव्याचें पयलें इनाम फाव जावन ताका सगल्या संवसारांत एकदम नामना मेळ्ळी. ताचें काव्य हें खऱ्यांनीच उंचेल्या पांवड्याचें. सदांच दिसपी वस्तींक ताच्या काव्यांत वेगळेंच रूप येता. ताचें काव्य कानाक खोस दिसता आनी मनाक केळयता. ही कविता पळेयात:

सांवळ्यांनी भरिल्ले गाळीवयर
खडबडीत सुर्या बसला
जादूगार आपली मुरली वाजयता
पांचव्याचार मळांत शिल्ल्यो आनी
एका शिंगांचीं हरणां आनी
पाख्या फाटल्यान लागिल्ले तीरकमठें
घेतिल्ले शिकारी थंयचे थंयच धरून
पडटात. तांकां हालूंक धोलूंक येना.

तशीच ही एक कविता:

''म्हजे सुंदरीचे कुडींत म्हाका मनशाचो
कट्टो दिसलो. तो कट्टो पळोवन ती आपणाकूच म्हणटाली
'हांव कितली सुंदर!''

तांच्यो This Island, Being Married, Kanheri Caves, As Men Dreaming ह्यो कविताय अशोच संवसाराचेर कंवळो पूण नवो उजवाड घालपी. केन्ना केन्ना तांची उतरां खोंचक जातात:

''हांवें एक फातर हातांत घेतलो
आनी म्हाकाय दिसलें हांवेंय फातर जावंचो.''

Lambert Masacarenhas हांणी सुरवात केली पत्रकार म्हणून. Indian Express, Free Press, Bombay Chronicle ह्या पत्रांत काम करून The Goan Tribuneचे संपादक जाले. सद्या ते Goa Today आनी The Perspective ह्या नेमाळ्यांचे संपादक आसात. वृत्तपत्री लेखना वांगडाच तांणी जायत्यो लघुकथा बरयल्यो. तांतुंतले तातूंत तांची The Illustrated Weekly त उजवाडाक आयिल्ली The Little Fellow ही काणी नांव घे सारकी. बापूय नाशिल्ल्या आनी आवयन सोडिल्ल्या एका धाकटुल्या भुरग्याच्या जिविताची ती दुखेस्त काणी. एक पाद्री त्या भुरग्याक पोसता तरी पूण सगलो लोक ताका कुस्कुटायता, धिस्पटायता. निमाणें तो भुरगो आपूण पाद्री जातलो म्हणून सांगता आनी पाद्रीकूय अजाप जाता. लोकांच्या त्रासाक लागून निमाणें मरता. Lambert Mascarenhas Tribuneहांचें व्हड बरप म्हळ्यार Sorrowing Lies My Land ही नवलकथा. हे कथेक लागून तांची संवसारभर कीर्त जाली. ही कथा म्हळ्यार पुर्तुगेज काळांतल्या दुखेस्त, पिडेस्त गोंयच्या सैमाचे देखाव. हांकां लागून ही कथा मनाक ओड लावपी अशी जाल्या. एक मनीस मनांत स्वतंत्रतायेचें सपन बाळगून सरकारालागीं, लोकालागीं आपल्याच मनशांलागीं कसो झुजता ताची ही स्फूर्त दिणी, देख दिणी काणी. ही कथा साद्या सोंप्या उतरांनी बरयल्या. पूण तांकां सुंदरतायेचो रंग आसा, उमाळ्याची हुनसाण आसा.

कथेंतलीं हीं निमाणीं उतरां उगडासांत धर सारकीं:

''पूण हांव एक गजाल जाणां आनी ती ही: जेन्ना भायल्या जुलम्याक आमी भायर उडयतले तेन्ना हीं घरां परतून उकतीं जातलीं आनी तांतूंत लोक रावंक येतले. शेतांत चकचयाळ पीक येतलें. हो गांव आनी हाचे सारकेच दुसरे गांव जिवितान उपाट भरतले. आनी म्हज्या जाणटेल्यांची ही भूंय 'गोंय' जी आज दुखेस्त आसा ती फाल्यां खोशयेन हांसतली.''

✻ ✻ ✻

# ‘पिज्जीन’ आनी ‘क्रियोल’ भासो

माधवी सरदेसाय

वेगळ्या वेगळ्या भासांचो वेगळ्या वेगळ्या संदर्भांत एकिमेकीं कडेन संबंद येता तेन्ना तांचो एकिमेकिंचेर प्रभाव पडटा. त्यो बदलतात. सगळ्या तरांचे – नादांचे, अर्थाचे, उतरांचे, व्याकरणाचे – बदल तांच्यांत दिसूंक लागतात.

भासां भासां मजगतच्या संबंदांक लागून केन्ना केन्ना नव्यो भासोय जल्मा येतात! ‘पिज्जीन’ भासो हे तरेन जल्मा आयिल्ल्यो भासो.[1] ह्यो भासो भौभाशीक लोकांचे फकत संपर्काचे गरजेक लागून वा, तांगेल्या गरजे पुरत्या संपर्काक लागून जल्मा येतात. वेगळ्यो वेगळ्यो भासो उलोवपी लोकांक कांय कारणांक लागून एकठांय वावुरचें पडटा आनी तांचे लागीं सगळ्यांक समजता अशी खंयचीच एक भास आसना तेन्ना, सामान्यतायेन, तांचे मदले प्रतिश्ठीत वा प्रभावी भाशेचें गरजेक जाय तितलेंच व्याकरण आनी तिची जाय तितलीच उतरावळ घेवन आनी हेरां ‘ल्हान’ भासां कडल्यान व्याकरणाचीं कांय आंगां आनी थोडी उतरावळ घेवन पिज्जीन भास घडटा. ही प्रतिश्ठीत वा प्रभावी भास चडशी ‘धनयाची’ भास आसता वा वेपारांतले प्रतिश्ठेक लागून तिणें म्हत्व जोडिल्लें आसता. केन्ना केन्ना थळाव्या ‘मूळ लोकां’ची भास सामाजीक नदरेन प्रभावी भास जाता.[2] आफ्रिकी गुलामां मजगतची आनी, गुलाम आनी इंग्लीश भाशीक मालकां मजगतची संपर्क भास म्हूण ‘धनयां’चे भाशेच्या आधारान मॅलनेशियेंत ‘मॅलनेशियन पिज्जीन इंग्लीश’ जल्माक आयली. ह्याच सुमाराक फिर्जीत थळावो फिजी लोक आनी ब्रिटीश हांचे मजगतची संपर्क भास म्हूण ‘मूळ लोकां’चे फिजी भाशेच्या आधारान ‘पिज्जीन फिजी’ जल्मा आयली. असमिया वेपारी आनी नागा लोक हांचे मजगतच्या संपर्काक लागून नागालँडांत घोळणुकेंत आशिल्ली असमिया भाशे पसून घडिल्ली नागा पिज्जीन – ‘नागाजीम’ जल्मा आयली.[3]

संवसारांत जेन्ना जेन्ना आनी जंय जंय वेगळ्यो वेगळ्यो भासो उलोवपी लोकांक वेगळ्या वेगळ्या संदर्भांत ‘कामचलाऊ संपर्क’ साधचो पडला तेन्ना तेन्ना आनी थंय थंय पिज्जीन जल्मा आयल्या म्हणपाचें दाखोवन दिवं येता. पिज्जीन भाशे वरवींच मनीस-जात असले भौभाशीक परिस्थितींतल्या संपर्काच्या ‘ताणां’तल्यान वाट काडीत आयल्या. मध्य युगांत लेगीत पिज्जीन भासो आशिल्ल्यो म्हणपाचे उल्लेख मेळटात.[4]

वेगळ्या वेगळ्या संदर्भांत पिज्जीन भासो जल्मा आयल्यात – १) खुबश्या पिज्जीन भासांच्या जल्माक वेपाराचो संदर्भ मेळटा. १९व्या शतमानांत वापरांत आशिल्ली रशियन आनी नॉर्वेयन भाशेची रुसेनॉर्स्क ही पिज्जीन रशियन आनी नॉर्वेयन लोकां मजगतच्या नुस्त्याच्या वेपारांतली नुस्तेकारां मदली संपर्क भास म्हूण जल्मा आयिल्ली. नागाजीम पिज्जीनिचीय हांगा देख दिवं येता. २). भौभाशीक कामाच्या सुवातां वयलें संपर्काचें माध्यम म्हुणणूय पिज्जीन भासो जल्मा येतात. आफ्रिकेंतली फानाकालो ही झुलू भाशेची पिज्जीन हे तरेन नातालच्या मिनाच्या खणिंचेर जल्मा आयिल्ली भास. ३) भौभाशीक तारवट्यां मजगतच्यो संपर्क भासो म्हुणणूय कांय पिज्जीन भासो जल्मा आयल्यात. १९व्या शतमानाच्या सुरवेच्या काळार ‘टोक पिसीन’ (Tok Pisin “Talk Pidgin”) हे मॅलनेशियन पिज्जीन इंग्लीशिचे बोलयेचो हे भाशेन ‘तारवार’ जल्म जालो. ४) चाकरमान्यां कडेन संपर्क साधपाचे गरजेंतल्यानूय कांय पिज्जीन भासो जल्मा आयल्यात. ‘ताय बोय’ ही पिज्जीन हे तरेन फ्रँच आनी तांचे वियेतनामी चाकरमाने हांचे मदलें संपर्काचें माध्यम म्हूण घडिल्ली भास.[5]

भोंवते वयल्या येवरोपी वेपाऱ्यांक लागून आनी येवरोपी वसाहतीकरणाक लागून खुबश्यो पिज्जीन भासो जल्मा आयल्यात. ह्यो पिज्जीन भासो चडश्यो दर्या मार्गा वयल्या मुखेल ठिकाणांनी, वेपाराचे नदरेन म्हत्व आशिल्ल्या वाटारांनी मेळटात. गुलामांच्या भयंकर वेपारानूच कितल्याश्या पिज्जीन भासांक जल्म दिला. जंयच्यान गुलाम व्हरताले थंय – आफ्रिकेंत पिज्जीन भासो तयार जाल्यो तश्यो, जंय गुलामांक व्हरून वसयताले, त्या कॅरिबियन जुंव्यांनीय त्यो तयार जाल्यो. ह्यो चडश्यो इंग्लीश भाशे पसून घडिल्ल्यो पिज्जीन भासो.[6] एके इंग्लीश भाशेच्याच आधारान तिसां वयर पिज्जीन/क्रियोल भासो जल्मा आयल्यात.[7] टोक पिसीन वा निओ-मॅलनेशियन ही इंग्लीश भाशेची सगळ्यांत चड घोळटिकेंत आशिल्ली पिज्जीन. न्यू गिनींत तिका राजभाशेचो दर्जो मेळ्ळा. प्रसार माध्यमांनी तसो शिक्षणाच्या मळाचेरूय तिचो वापर जाता.[8]

---

१. ‘पिज्जीन’ (Pidgin) म्हळ्यार, इंग्लीश businessचो चिनी अपभ्रंश अशें सामान्यतायेन मानतात.

२. John R. Rickford & John McWhorter: **Language Contact and Language Generation: Pidgins and Creoles** in Florian Coulmas (ed.) The Handbook of Sociolinguistics. Oxford: Blackwell Pub. Ltd. 1997: 238-256.

३. प्रशासनाचे नदरेन नागालँड आसामाच्या राजाच्या हाता खालाच आशिल्लें. देखून प्रशासकांची भास म्हुणणूय असमिया भाशेक नागा संदर्भांत म्हत्व आशिल्लें. अदीक म्हायती खातीर पळेयात: M.V. Sreedhar: Naga Pidgin: A Sociolinguistic Study of Interlingual Communication Pattern in Nagaland. C.I.I.L., Mysore 1974: 35-44.

४. Loreto Todd: Pidgins and Creoles. London: Routledge 1990: 1.

५. Rickpord & McWhorter 1997: 240.

६. Peter Trudgill: Sociolinguistics: An Introduction. Harmondsworth: Penguin Books 1974: 169.

७. अदीक म्हायती खातीर पळोवचें: Todd 1990.

८. Trudgill 1974: 170.

, येवरोपी भासांच्या संबंदान जल्मा येवंक नाशिल्ल्योय कितल्योश्यो पिज्जीन भासो संवसारांत आसात. भारतांत वापरांत आशिल्ल्यो 'बाजारी हिन्दी', 'नागामीज', 'सदरी' ह्यो हे तरेच्यो – देशी भासांच्या संबंदांतल्यान घडिल्ल्यो पिज्जीन भासो. सदरी बिहारीची पिज्जीन[९]. उडिसा, मध्यप्रदेशांतलो रायगढ जिल्लो, बिहार आनी अस्तंत बंगालांतले कांय वाटार हांतुंतल्यो जमाती आनी हेर सकयल्यो हिन्दू जाती हांचे भितर संपर्क भास म्हूण सदरी घोळटा. बिहारांत तीन भाशे-कुळांतल्यो जमाती आसात – भारतीय-आर्य, द्रविडी आनी ऑस्ट्रीक. तांचे मदीं संपर्काचें माध्यम म्हूण सदरी जल्मा आयिल्ली. वीस वर्सां फाटीं, मध्य प्रदेश, बिहार, उडिसा आनी अस्तंत बंगालांतलो ट्रायबल वाटार कुशीक काडून एक वेगळें झारखंड राज्य निर्मुपाचो विचार वयर आयलो तेन्ना सदरीक राजकी-सामाजीक म्हत्व आयलें. झारखंडांत सदरी राज्यभास जातली अशेंय सांगताले. ह्या 'सपना'क लागुनूय सदरीक आयज एके तरेची प्रतिश्ठा आयल्या.

पिज्जीन भासोय दोन तरांच्यो आसतात – १) मर्यादीत प्रमाणांत वापरांत आशिल्ल्यो Marginal पिज्जीन आनी, २) व्हड प्रमाणांत वापरांत आशिल्ल्यो Extended पिज्जीन.[१०] पयले तरेच्यो पिज्जीन भासो एका खाशेल्या संदर्भांत जल्मा येतात आनी हो संदर्भ ना जावन वचना फुडें ह्यो भासोय ना जावन वतात. कोरियेच्या युद्धा वेळार अमेरिकी आनी कोरियन लोकां मजगतची संपर्काची भास म्हूण जल्मा आयिल्ली 'बांबू इंग्लीश' हे तरेची पिज्जीन भास. आयजे युद्धाचो संदर्भ सोंपिल्ले कोरियेंत ही भासूय वापरांत ना. वियेतनामाच्या युद्धा वेळारूय वियेतनामी लोक आनी अमेरिकी आर्मी हांचे मदलें संपर्काचें माध्यम म्हूण अशीच एक पिज्जीन इंग्लीश जल्मा आयिल्ली. आयज हीय पिज्जीन ना जावन गेल्या. जायते फावटीं पिज्जीन भास ज्या संदर्भांत जल्मा आयिल्ली त्या संदर्भा भायरूय म्हत्व जोडटा. दक्षीण आफ्रिकेंतल्यो पिज्जीन भासो काळ्या गोऱ्यां मजगतच्या संपर्काचे गरजेक लागून जल्मा आयिल्ल्यो. पूण उपरांत भौ भाशीक काळ्यां मजगतींय संपर्क भास – lingua franca म्हूण तांचो वापर जावंक लागलो.

व्याकरणाचे तशे उतरावळिचे नदरेन पिज्जीन भास खंयचेय 'सादे' – 'नॉर्मल' भाशेचे तुळेन कितलिशी सोंपी आसता. तिचें व्याकरण 'सरळ' आसता. तांतूंत घुस्पागोंदळ, आडवाद बी व्हडलेशे आसच नात म्हळ्यार जाता. तिची उतरावळूय 'सादे' भाशेचे उतरावळी परस कितलिशी ल्हव आसता. 'सादे' भाशेंत कितलेंशें 'गरज नाशिल्लें' व्याकरण आसता. देखीक, इंग्लीशींत आमी 'the two big newspapers' म्हणटात तेन्ना वचन दोन कडेन दाखयतात – 'two' आंकड्यांत आनी '-s' कुसांत. खरें म्हळ्यार, नामा फुडें 'two' हें विशेशण येता तेन्ना नाम भौवचनी म्हूण दाखोवंक आनीक एक कुरू करपाची गरज आसना. पूण इंग्लीश भाशेच्या नेमा प्रमाण आमकां नामा फाटल्यान '-s' कूस लावचेंच पडटा. पिज्जीन इंग्लीश हांगा 'काटकसर' करता. 'टोक पिसीन' हे पॅसिफिक म्हालसागरांतल्या पापुआ न्यू गिनी जुंव्या वयले पिज्जीन इंग्लीशींत आनी 'कामटोक' (Kamtok "Cameroon Talk") हे कॅमरूनचे (अस्तंत आफ्रिका) पिज्जीन इंग्लीशींत भौवचन फकत आंकड्यांतल्यानूच दाखयतात – 'the two big newspapers' ह्या पिज्जीन भासांनी अनुक्रमान 'tupela bikpela pepa' आनी 'di tu big pepa' जाता.[११]

बंबइया हिन्दींतूय अशीच वचनाची 'काटकसर' दिसता. 'मेरे खयाल से सब लडकियाँ ही हैं' वा, 'उन के साथ दस औरतें थीं' हीं प्रमाण हिन्दींतलीं वाक्यां हे पिज्जीन हिन्दींत अनुक्रमान 'मेरा खयाल से सब लडकी है' आनी 'उन लोग का साथ दस बाईलोग था' जातात. पयल्या वाक्यांत 'सब' उतराक लागून नामाचो भौवचनी अर्थ स्पश्ट जाता जाल्यार दुसऱ्या वाक्यांत 'दस' आंकडो भौवचन दाखयता. ह्या वाक्यांत 'बाई' फाटल्यान येवपी 'लोग'य भौवचनाच्या कुसाचें काम करता. हें 'लोग' कूस नाशिल्लें वाक्यूय बंबइया हिन्दीक चलता – 'उन लोग का साथ दस बाई था' हें वाक्यूय बंबइया हिन्दीच्या व्याकरणांत बसता. प्रमाण हिन्दींतलें क्रियापद नामाच्या वचना प्रमाण (लिंगा प्रमाणूय) बदलता. हिन्दीची पिज्जीन व्याकरणाचो होय 'फसफस' जावंक दिना. (देखी म्हूण वयर दिल्यां तींच वाक्यां घेवंचीं.)[१२]

पिज्जीन भाशेची उतरावळूय जाय तितलीच आसता. देखीक, प्रमाण इंग्लीशींतल्या woman, man, girl, boy, hen, cock ह्या उतरांची टोक पिसीन आनी कामटोक ह्या पिज्जीन भासांतलीं समानअर्थी उतरां पळेयात.[१३]

| English | Tok Pisin | Kamtok |
|---|---|---|
| woman | meri | wuman |
| man | man | man |
| girl | pikinini meri | wuman pikin "ल्हान बायल" |
| boy | pikinini man | man pikin "ल्हान दादलो" |
| hen | paul meri | wuman fawn "बायल कुकड" |
| cock | paul man | man fawn "दादले कुकड" |

थोड्या उतरां भितर भास अशी भागोवन व्हरता तेन्ना जायते फावटीं कवितूय अणभवूंक मेळटा. देखीक, 'टोक पिसीन' भाशेंत 'gras' म्हळ्यार "तणू"च. पूण 'gras bilong het' – "तकले वयलें (तकलेचें) तण" म्हळ्यार "केंस" आनी 'gras bilong maus' – "तोंडा वयलें (तोंडाचें) तण" म्हळ्यार खाड.[१३] असल्या उतरांनी भाशेची संवसारा कडेन पळोवपाची नदरूय झळकता.

पिज्जीन कोणाचीय आवयभास आसना. ती 'गरजेक वापरुपाची' — 'काम चलाऊ' भास आसता. तिचे सामाजीक भुमिकेक मर्यादा आसता. पिज्जीन तिच्या उलोवप्यांची वा भाशीक समाजाची आवयभास जाता तेन्ना तेन्ना तिका 'क्रियोल' म्हणटात. हायशियन क्रियोल, सॅशॅल्स क्रियोल ह्यो फ्रेंच भाशेच्यो क्रियोली, टोक पिसीन, जमायकन क्रियोल ह्यो इंग्लीश भाशेच्यो क्रियोली, काब व्हेर्दियन क्रियोल, सांव तॉमॅ क्रियोल, माकाव पुर्तुगीज क्रियोल ह्यो पुर्तुगीज भाशेच्यो क्रियोली, आफ्रिकान्स ही डच भाशेची क्रियोल... अश्यो कितल्योश्यो क्रियोल भासो आयज संवसाराचे फाटीर उलयतात. आमच्या देशांतले सदरीचीय हांगा देख दिवं येता.

पिज्जीन क्रियोल जाता तेन्ना तिचे सामाजीक भुमिकेचो विस्तार जाता. ती 'कामचलाऊ भास' उरना. वेगळ्या वेगळ्या मळांनी वेगळ्या वेगळ्या संदर्भांत तिचो वापर जावंक लागता आनी हाचो परिणाम म्हूण मूळ पिज्जीनिच्या व्याकरणाचो, तिचे उतरावळिचोय विस्तार जाता.

---

९. सदरी विशिंचे अदीक म्हायती खातीर पळोवंचें: **Sadari of Madhya Pradesh, Bihar and West Bengal** – Rekha Sharma & Sam Mohan Lal; **Sadari of Orissa** – K.S. Rajyashree in **Pidgins & Creoles as Languages of Wider Communication** ed. K.S. Acharya et al. Mysore: C.I.I.L.: 1987: 99-194.

१०. Todd 1990: 5.

११. Todd 1990: 2.

१२. Bazari Hindi as LWC – K.S. Rajyashree in K.P. Acharya et al (ed.) 1987: 218.

१३. माधवी सरदेसाय: **भासाभास.** जाग प्रकाशन १९९३: १०७.

मुखेलपणान दोन तरांच्या परिस्थितींक लागून क्रियोल घडटा.[१४]

१) पिज्जीन भाशे वरवीं एकामेकां कडेन संपर्क साधतल्यांक तांगेल्या आवय-भासांचो वापर करपाची संद मेळना आनी हाका लागून पिज्जीनूच तांची 'सगळ्यांत लागिंची' भास जाता. कॅरीबियन जुंव्यांचेर आफ्रिकेंतल्यान हाडून वसयल्ल्या गुलामां मजगतीं हें घडलें. गुलामां मदीं एकवट जावचो न्हय, तांचे मजगतीं कारस्थानां शिजचीं न्हय म्हूण एकूच भास उलोवपी, एकेच सुवाते वयल्यान हाडिल्ल्या गुलामांक मालकांनी मुद्दाम एकामेकां पसून पयस दवरले. हाका लागून पिज्जीन भासांचोच तांकां आधार घेवचो पडलो आनी पिज्जीन भासोच तांगेल्या फुडल्या पिळग्यांच्यो आवयभासो जाल्यो. भारतांतली सदरीय अशीच आवयभासो शेणोवन बशिल्ल्या कांय जमातिंची आवयभास जाल्या. ह्या जमातिंच्या मूळ आवयभासांचो एके शिमे भितरूच, भोव मर्यादीत प्रमाणांत वापर जातालो. हाका लागून त्यो इल्ल्यों इल्ल्यो करून ना जावन गेल्यो आनी तांची सुवात सदरीन घेतली.[१५]

२) क्रियोलीक पुरक दुसरी परिस्थिती म्हळ्यार वाटाराची भौभाशीकताय. ज्या वाटारांत पिज्जीन जल्मा आयिल्ली आसता तो वाटारूच इतलो भौभाशीक आसता कीं विकासाचे नदरेन, वेगळ्या वेगळ्या भाशीक समाजां मजगतची संपर्क भास म्हूण समाजाकूच ती गरजेची दिसूंक लागता. पापुआ न्यू गिनीच्या जुंव्यार 'टोक पिसीन' भाशेन हे तरेन प्रतिश्ठा जोडली. भाशीक विविधतायेचे नदरेन हो सुपुल्लो जुंवो संवसारांतलो सगळ्यांत गिरेस्त वाटार अशें मानतात – ह्या जुंव्याचेर सातशां वयर भासो घोळटात! आनी, (१५-२० वर्सां फाटलो आंकडो दिवचो जाल्यार) ताची लोकसंख्या फकत तीस लाख आशिल्ली).[१६] गुलामांच्या वेपाराचे मुस्तींत तारवार खलाशां मजगतची संपर्क भास म्हूण जल्मा आयिल्ली ही पिज्जीन उपरान्त कॅरिबियन जुंव्याचेर प्लान्टेशनावयली भास जाली आनी उपरान्त भौभाशीक परिस्थितींत संपर्क भास म्हूण तिका म्हत्व आयलें. हीच पिज्जीन राजभास जाली आनी समाजांत 'वयर सरपाचें' माध्यमूय जाली. हे प्रतिश्ठेक लागून जायत्या जाणांनी आवयभास म्हुण्णूय ती आपणायली. कॅमरूनांतूय अशेंच घडलें. येवरोपेव आनी आफ्रिकी लोकां मजगतची संपर्क भास म्हूण जल्मा आयिल्ली ही पिज्जीन वेगळ्यो वेगळ्यो भासो उलोवपी आफ्रिकी जमातीं मदींय घोळपाक लागली. तांकां ती आपलीय दिसूंक लागली. सदरीकूय अशेंच, वेगळ्या वेगळ्या भौभाशीक जमातीं मदली आनी हेर भौसा मदली संपर्क भास म्हूण म्हत्व आयलें. आदीं कितल्याश्या वेगळ्या वेगळ्या आवयभासांनी वांटून गेल्ल्या जमातिंची आयज सदरी आवयभास जाल्या – जमातिंच्या एकवटाची ती कुरू जाल्या.[१७]

पिज्जीन भास क्रियोल जाता तेन्ना व्याकरणाचे आनी उतरावळिचे नदरेन तिचो विस्तार जाता. देखून, आवयभास जाले बगर भास 'पूर्ण भास' जायना अशें ह्या मळार अभ्यास करपी जायते जाणकार मानतात. पूण कांय जाणांचो अभ्यास सांगता, आवयभास जावंक नाशिल्ली, पूण वेगळ्या वेगळ्या मळांचेर घोळपाची संद मेळिल्ली पिज्जीन क्रियोली इतलीच 'पूर्ण भास' आसता – व्याकरणी बांदावळिचे नदरेन क्रियोली इतलीच ती 'कठीण' आसता; क्रियोली इतलीच तिची उतरावळूय भरींव आसता. पिज्जीन आवय-भास जाता तेन्ना तिका घोळपा खातीर 'व्हडलीं मळां' उकतीं जातात आनी हाकाच लागून तिचो व्याकरणीक विस्तार घडटा, तिची उतरावळ वाडटा, अशें हे जाणकार दाखोवन दितात. 'टोक पिसीन' फाटल्या फकत वीस-पंचवीस वर्सांच्या काळांत लोकांची आवय-भास जावंक पावल्या. ते आदीं कितलिशीं वर्सां न्यू गिनींत वेगळ्या वेगळ्या मळांचेर ती घोळटाली. ही संद मेळिल्ल्यानूच तिच्या व्याकरणाचो, तिचे उतरावळिचो विस्तारूय जाल्लो. व्हड प्रमाणांत वापरांत आशिल्ली ही पिज्जीन आवयभास जावन क्रियोल जाली तेन्ना तिचे भितर बदल घडले अशें मानपाक आधार ना, अशें हे जाणकार म्हणटात.[१८]

'नॉर्मल' प्रतिश्ठीत भासो उलोवपी समाज पिज्जीन आनी क्रियोल भासां कडेन जायते फावटीं नाक मुड्डून पळेता – पिज्जीन / क्रियोल भासांक ते मूळ भासांचीं 'अशुद्ध' रुपां लेखतात. खासा पिज्जीन / क्रियोल भाशिकूय केन्ना केन्ना आपल्या भासां कडेन हेच नदरेन पळेतात. हायशियन क्रियोल भाशीक आपणाले भाशेक भासूच लेखिनात, फ्रॅंचूच तांकां 'खरेली भास' दिसता... भासविज्ञान खंयचेच भाशेक 'अशुद्ध', 'अर्दकुटी' लेखिना. दर एके भाशेक तिचें खाशेलें व्याकरण आसता आनी प्रसंगा प्रमाण बदलुपाची दर एके भाशे भितर तांक आसता. हो भासविज्ञानाचो मूळ विश्वास. संपर्काचे नदरेन कठिणांतले कठीण परिस्थितींतूय भास कशी वाट काडटा ताचो दिश्टावो पिज्जीन आनी क्रियोल भासो घडयतात. समाजभासविज्ञान मळार पिज्जीन आनी क्रियोल भासांच्या अभ्यासान आयज खाशेली सुवात जोडल्या.

---

१४. Todd 1990: 3.

१५. Sharma & Lal 1987: 103-105.

१६. सरदेसाय १९९३: १०३. पापुआ न्यू गिनीची लोकसंख्या आयज ४० वा ५० लाख जाल्या वा, दोट्टी – ६० लाख जाल्या अशें मानलें जाल्यारूय ६० लाखां भितर ७०० भासो घोळप हो भाशीक विविधतायेचो रिकोर्डूच!

१७. Sharma & Lal 1987: 103-105.

१८. Rickford & McWhorter: 243-245.

---

## 'जागा' खातीर बरप धाडटना

– बरपाची एक प्रत बरोवप्यान आपणालागीं बाळगुची.

– बरप निवळ अक्षरान कागदाच्या एकाच अर्दान बरयल्लें आसचें. (एका अर्दान आदीं वापरिल्लें कागद बरोवपाक वापरूं येता.)

– हेर खंयचेच कडेन उजवाडा येवंक नाशिल्लें बरपूच धाडचें.

# तीर-सुवादीक कॉलम

## दिलीप बोरकार

मनशान खंय दिसभर, पोटभर हांसूंक जाय.
ताका लागून हांसपी दुयेंत पडना आनी दिर्घायुषी जाता.
हो सोद हालींच अमेरिकेच्या वैजकी मंडळान लायला.
कसलोय सोद लायलो की ते म्हाका कळयतात अशें कांय न्हय.
हांगा आमचो गजानन जोग 'सोद' म्हूण कथा संग्रह काडटा
ताची हांव (आनी तोय) गोंयांत आसुनय म्हाका कल्पना ना
कोंकणी वाचक एक दीस 'सॉद' खंय मेळटा काय विचारूंक लागले
तेन्ना हें कसलें प्रकरण काय म्हूण म्हाका सोद घेवंचो पडलो.
तर... अमेरिकेच्या ह्या सोदाची बातमी खंयच्या तरी वर्तमानपत्रांत हालींच हांवें वाचल्या.
हांगा हांवें वर्तमानपत्र हें उतर पुराय जाणविकायेन वापरलां.
ताका 'दिसाळें' हें खाशेलें कोंकणी उतर आसून लेगीत.
हांव जाणां, हें वाचून रवीन्द्र केळेकारांक खंत जातली.
ते म्हजें हें बरोवप 'स्वतंत्र कोंकणी भाशेंतलें' न्हय, तें
'मराठी बोलीं'तलें म्हूण गरजे भायर ते खंत काडून शिणटले.
पूण 'दिसाळें' उतर वापरूंक म्हाका भंय दिसता ताचें कितें!
सांगूं येता, कोण, केन्ना, कसो तें उतर लावन घेत म्हूण!
तर सांगपाचें म्हळ्यार अमेरिकेच्या त्या सोदांत तथ्य आसूंक जाय.
तांकांय हो सोद पुलच्या मरणा उपरांत लागला आसूं येता.
हो पुल म्हळ्यार कॉमिक. जितो आसतना ताणें लोकांक हांसयले.
आतां मरणा उपरांतूय लोकांक हांसपाची दिक्षा दिता.
पूण तांचे आनी मडगांवच्या भिकूबाबाचे संबंध हांव नकळ आशिल्लों.
भिकू पै आंगल्यान तांच्या मर्णा उपरांत तांचेर लेख बरयलो.
तेन्ना कळ्ळें पुल भिकूबाबाक पत्रां बरयतालो.
पर्वरीच्या श्रीराम कामतींकूय पुलन बरयलां.
तेंय कामतबाबान आपल्या लेखावांगडा पेपरार छापलां.
हातूंत म्हाका कॉमिक दिसली ती मात भिकूबाबाच्या पत्राची.
पुलन कामतीक पत्र बरयलां तें शुद्ध मराठींत बरयलां
आंगल्याक बरयलां ताची सुरवात आनी शेवट कोंकणींत केला.
ही कितें भानगड काय म्हूण हांवें कामतीक विचारलें.
ताणें जें सांगलें तें आयकून हांव पोट फुटसर हांसलों.
श्रीराम कामत कोंकणी मनीस पूण बाकीबाबा वरी तो मराठीची सेवा करता.
भिकू पै आंगलो मात गोंयकार जावनूय आपणाक मराठी मानता.
ताच्यांतलो स्वाभिमान जागोवंक पुलन ताका कोंकणींतल्यान बरयलां.
भटाच्या तोंडांत नुस्तें घालचें तशी भिकूबाबाच्या तोंडांत कोंकणी घाली पुलन.
पुलचीं हींच तिरसुवादपणां म्हाका हांसपाक पुरो जातात.
'अमेरिकेन सोद लावंचे आदीं हो बोरकार मेलो हांसतलो'
हें वाचून थोडे खपनखायरे अशेंय म्हळे बगर रावचेनात.
तरी लेगीत हांव सतत हांसत आसतां हें मात खरें.
म्हज्या खाडा भितर तें पळयतल्यांक दिसूं नाका मागीर
तशें पळोवंक गेल्यार हालीं हांसपा सारके खीण भौच थोडे येतात.
ताचें कारण म्हळ्यार पुराय गोंयची अवतिकाय विचित्रूच जाल्या.
ती पळोवन हांसचें कांय रडचें तेंच कळना.
रडून ही परिस्थिती थाऱ्यार पडपाची ना हें हांव जाणां.
वेल्यान म्हजीच भलायकी इबाडून हांव रडकुरो दिसपाचों.
गोंयच्या मराठींतल्या नांवाजत्या कवी-लेखकांवरी
नाय म्हळ्यार आमचे कोंकणींतलेय कवी-लेखक मदीं मदीं रडके दिसतात.
ताचें कारण तांकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळना.
हेंय पळोवन म्हाका हांसूंक येता.
नानूक जशें हांसपाक कारण लागना तशें म्हजें न्हय.
म्हाका कारण लागता आनी हांव तें सोदून काडटां.
आतां कला अकादेमीचे उपाध्यक्ष विष्णूचीच गजाल घेयात.
हांगा उपाध्यक्षपदांत म्हाका कॉमिक कितें दिसूंक जाय?
तसो हांव भाशा मंडळाचो स वर्सां उपाध्यक्ष आसलों.
शिवदास कोंकणी अकादेमीचो आसा, फुडाराकूय आसतलो.
उपाध्यक्षपदां बहुजन हिताय आसात अशें तांचो फुडारी विष्णू म्हणी.
तातूंत हांसपा सारकें कांय ना. आसल्यारूय रडपा सारकें आसत.
तरी हांव नकळ कित्याक म्हूण, म्हाका विष्णूक पळोवन हांसो येता.
चार्ली चॅप्लिनचें चलप, उलोवप, वागप सगळें कॉमिक आशिल्लें.
ते कॉमिकतायेंतल्यान तो सगळ्याक वेदना फाफुडटालो.
विष्णू वाघाचें सगळें वागणें गंभीर.
ताचे हे गंभिरतायेंतूच म्हाका भरपूर कॉमिक दिसता.
ताका भास म्हळ्यार कोण तें कळटा पूण आपली भास कळना.
तरी हे संबंधान तो सगळ्यो भुमिका गांभिर्यान सोबयता.
आनी म्हाका ताच्यो ह्यो गंभीर भुमिका विनोदी दिसतात.
मागीर मनसोक्त हांसपा खातीर दुसरे विशय जायच कित्याक?
हालींच म्हाका तो धांवपळींत वाटेर मेळ्ळो.
मराठी युवा संघर्ष समितिचे बसके खातीर वतालो.
ताचें हातवारे करीत भाशणाची येसाय आनी पाठांतर चलतालें.
ताचो एक खांदो उमेश म्हांबऱ्या वरी सकयल जाल्लो.
म्हांबऱ्याची ती एक नातुराल स्टायल.
पूण हाणें सगळें सोडून म्हांबऱ्याची स्टायल शी उबारप?
'ना रे, ह्या दिसांनी गांवागांवांनी पालखी भोंवता न्ही रे'
'तीच मरे ती, उदय गुडे थर्मकोलाची म्हणटा ती?'
'थर्मकोलाची न्ही रे, धर्मकोल्लाची... हय हय तीच ती.'
'पूण ती पालखी ट्रकार केल्या न्ही रे चित्ररथ कसो?'
'हय रे. पूण गांवच्या लोकांक पालखी म्हणटकच देवळा कडली दिसता न्ही रे. म्हणटकच ती खांदार घेतिल्ले वरी दाखोवं नाका? खलपाक, शशिकलेक बी पळय. तींय अशींच करतात ह्या दिसांनी.'
'पूण विष्णू, आमी शिकिल्ले. आमकां भाषाशास्त्र खबर आसा. आमची भास मराठी म्हळ्यार लोक हांसनात रे?'
'हांसप आरोग्याक बरें मरे. कोंकणी भासूच रे. भास नाशिल्ली जाल्यार हांव नाटकां बरोवपाचों कोंकणींत? पूण हे भाशेंत ज्ञानेश्वर, तुकाराम बी खंय आसात?'
'ना जाल्यार तूं जा मरे! तुका चान्स आसा.'
'पिशें लागलां रे? म्हाका अजून खूब भोगपाचें आसा मरे. म्हाका इतले बेगीन मरपाचें ना. तूं जाणा मरे, ज्ञानेश्वर, तुकाराम कशे मेले?'

'हांव नकळ. कशे मेले?'
'ज्ञानेश्वराक लोकभास मराठींतल्यान वेव्हार जाय आशिल्लो. ते खातीर ताणें चळवळ सुरू केली. पूण ताका प्रस्थापितांनी विरोध केलो. बाबड्याक समाधी घेवची पडली. तुकारामाक तर तांणी मारलो.'
'म्हणजे बळी गेले बगर जावंचेंना तर हें?'
'तुमी पयलीं कोंकणींत ज्ञानेश्वर आनी तुकाराम करात. मागीर हांव आसांच तुमचे वांगडा.'
इतलो वेळ नीट केल्लो खांदो परतो बागोवन विष्णू गेलो.
हांसून हांसून म्हज्या पोटांत मुड्डी पडली.
म्हाका मराठीवादी दिसले म्हणटकूच हांसूंक येता अशें न्हय.
कोंकणीची लेगीत म्हाका तितलीच कॉमिक दिसता.
तिचे बाँबडेच्या नशिबांत कितें वाडून दवरलां तीच जाणा.
खरें म्हळ्यार ती कोणाच्या अध्यांत ना मध्यांत कशी.
आपले परीन ती दीस काडटा आनी फुडेंय तशीच काडटली.
तिच्या नशिबांत मानाचो पाट आसा सो दिसना.
तरी तिच्या नाड्यार कोणूय फुडारी जावन मिरयता.
कोंकणींतलो शेंबडू तिकाच लागून शेंबडोबाब जालो.
फुडाराक कोण तरी धोणसू, धोणसूबाब जावन वतलो.
तेरा वर्सां आदीं तिणें कोंकणीक केदे फुडारी दिले.
कोंकणी राजभास जाली आनी दिसलें, फुडाऱ्यांचें पीक सोंपलें.
येवपी पिळगेक कोंकणी फुडारी जावपाचो चान्स ना.
पूण सुटके झुजाऱ्यांक अंत ना तशें हांकांय मरण ना.
परतून कोंकणीच्या फुडाऱ्यांचें पीक सुरू.
तांचें एक समजूं येता. बाबडे कोंकणी खातीर तळमळटात.
पूण आपल्याक गाळी घालपी मराठीवाल्यांकूय लिडर करतात.
काल पयर दिवचलचो दगडू तिठ्यार रावन मटको घेतालो.
पोलिसांनी भितर व्हेलो आनी ताचें नांव पेपरार आयलें.
दगडू भुल्लुसलो आनी दारांत आयिल्ले पालखेक ताणें हार घालो.
'देवाधिदेवा अशीच म्हजेर कृपा कर आनी चार चौगांत नांव कर.'
दगडून भक्तिभावान पालखेंतल्या देवाक पराथलो.
दुसऱ्या दिसा दगडूचो दगडोबा जावन पेपरार फोटू.
दगडूचो फोटू पळोवन पेडणेंचो तोपयो पिरंगलो.
ताणें भाशा मंडळाचो पेडणेचो प्रतिनिधी जावपाचें येवजिल्लें.
पूण गटबाजीक लागून तो वेंचणुकेंत आपटलो.
आपल्याचें पेपरार सादें नांव लेगीत ना आनी दगडूचो पेपरार फोटू?
आर्रा तूं!
तोपयो गेलो रवळनाथाच्या देवळांत आनी पालखे मुखार उबो रावलो.
भायर गड्ड्यांनी खेळपी भुरग्यांक वांगडा उबे केले.
झक्कास फोटू मारून मराठी वार्ताहराक दिलो.
संपादकान वार्ताहराक सांगिल्लें, 'मराठीच्या खुस्तार तूं पोट भरता. मराठी चळवळ गांवांत कर.'
वार्ताहर 'सुखवार्ता दुखवार्ता' करीत गांव भोंवतालो.
तोपयाचो फोटू ताणें चार कॉलमाचे बातमे सयत धाडलो.
'चैतन्य पालखीचे पेडण्यात आगमन. प्रचंड स्वागत.'
कोंकणीच राजभास जाली म्हूण हे फुडारी जावंक पावले.
ती जावंक नाशिल्ली जाल्यार येवपाचें कोणाचें नांव पेपराचेर?
कोंकणी ही अशी एक कॉमिक भास.
ती स्वताचो विकास कशीच करून घेना.
हेरांची मात ती वेवस्थीत उदरगत करून उडयता.
तिणें मराप्रस ही संघटना उबारूंक उर्बा दिली.
मराठी अकादमी स्थापन करूंक प्रोत्साहन दिलें.
ते खातीर खुबशा मराठीवाद्यांक कितें तरी करूंक मेळ्ळें.
नातर आयुश्यांत कितें करप हो प्रस्न आशिल्लो.
ते कितें करतात तें पळोवन म्हज्या सारक्याची करमणूक जाली.
म्हाका पावला कणकणी असल्या विनोदी लोकांची भेट घडटा.
केन्ना भितरले भितर हांसूंक येता तर केन्ना मनसोक्त हांसो फुट्टा.
होच हांसो म्हजी तब्येत बेस बरी दवरता.
कोंकणी आसा सर हीं करमणुकिचीं साधनां आसात.
देखून म्हाका म्हजो हांसो बंद जातलो हाची चिंताच ना.
पूण भंय दिसता अमेरिका ह्या लोकांक मागणी घालीत म्हूण.
रवीन्द्र केळेकार हालींच अमेरिकेक गेला.
देवा सायबा, तांणी हांचो थंय उल्लेख करिना जाल्यार पुरो.
गरजे भायर म्हजे सारके मागीर हांसपाक म्हारग जातले.

* * *

# पावस-रास

□ सुजला देव

आयजूय परत कालचे वरी
काळखाचो धरून हात
हांसत हांसत आयली रात
घरा-घरांत पेटली वात.

आनीक मागीर काजळ माखून
कालचे वरीच दिव्या-दिव्यार
फुलां-कळ्यार, दोळ्यां-दोळ्यांर
न्हीदेचें फुटलें ल्हार.

माती मात जागी आज
उस्वासाचो जाळीत धूप
कळ्ळां तिका हुपून शिमो
संदेसाचें येतलें कूप.

वाऱ्यांत सत पिकलें पुण्य
हुलपल्ल्या प्राणांचें
निळायेक फुटले सूर
जोगलांच्या दानाचे.

आनीक मागीर भुयेंतल्यान
सादाचीं उडलीं भिरीं
मळबाच्या काळजांतल्यो
उपाटून व्हांवल्यो झरी

शिरशिरलीं रानां-वनां
पर्मळ्ळो स्वास-स्वास
धतरिच्या कणा-कणान
रंगला पळोवन पावस-रास.

# पावस

□ मनोज नरेंद्र कामत

आंगार फुलता शिरशिरी
चित्त ना भानारी
मन उडटा वाऱ्यारी
तो आयलो केन्ना?

जावन आयला झुजारी
घालता आकांताच्यो सरी
घडघड्यारी
तो रकलो केन्ना?

मोडल्या तनरी
भोंवराची नदर फुलारी
मोग आयला जिवारी
तो व्हांवलो केन्ना?

म्हातारेच्या घरारी
गांवठी कवलारी
पडटा शितोडो भरजरी
तो पोंवलो केन्ना?

गरिबाच्या भुके पोटारी
दुकां सुकलीं दोळ्यांरी
न्हिदला उदका घोटारी
तो रडलो केन्ना?

# कविता पावसांतल्यो

□ सखाराम गोविंद सिनाय बोरकार

पयलो पावस!

पयलो तो पावस
ओले मातयेचो वास
खोशयेन परमळटा
मन म्हजें!

दडकेर दडको
दर्याक हुंवार
तारवां वरी धोलता
मन म्हजें!

ओलें चिप्प आंग
तुजें आनी म्हजें
वेंगालंक तुका आशेता
मन म्हजें!

* *

मळबांतल्या पावसान
धतरिक वेंगायली
म्हणून मळबान रडून
धतरिक भिजयली!

# मन गेलां रानां वनां

□ अरूण साखरदांडे

मन गेलां राना वनां
उस्ती सगळीं पाळां मुळां

एक मन कपिल्ले वारिचे
एक मन शेणिल्ल्या यादिंचे
एक मन देवळा माथ्यार
सोबीत भांगरा कळसाचें

एक मन आवय दुदाचें
एक मन उस्ण रगताचें
एक मन उदकाविणें
बाविल्ल्या निळ्या साळकाचें

एक मन तुज्या केंसांत
रिगून रिगून खोयिलां
एक मन तुज्या दोळ्यांत
बिंब बिंब बिंबलां

एक मन तुजीं पावलां झेलीत
घुंघरांनी घुस्पलां
एक मन जावन यादी फुलां
पुनवे राती चान्नेलां

अशीं मनां जळा मळा
म्हज्या पोशांत सपन फळां
सोडूं कशीं यादीं मुळां
वाट फुटल्या धाय दोळां

# झाड

□ परेश नरेंद्र कामत

निळनिळशे
मळबाचे फाटभुंयेर
पिंतारता
एक झाड
आपणाकूच;
मनाक फुटिल्ल्या खांदयांच्या
आडफागुरांनी...

# धून

□ परेश नरेंद्र कामत

ओंठांचेर अरळटा
दिशांची रक्तखूण;
तुजे अटंगे वेंगेंत
सांजेची वाजता धून...

# 'फ्लॅट'

□ नयना आडारकार

म्हज्या घरा मुखार झाडां
झाडांर साबार सवणीं
रात्रीपोल्लांत कुयणीं
रानांत रोयणी
सगळें आतां इतिहासजमा

म्हज्या दारांत आंगण
आंगणांत रांगोळी
काट्टाची दिवाळी
नागपंचमीक पातोळी
सगळें आतां इतिहासजमा

म्हज्या घराकुशीक शेजारी
माया ममतेचे पुजारी
उल्याक धांवप
गरजेक पावप
सगळें आतां इतिहासजमा

आतां
म्हजो फ्लॅट आसा
कुशीन शेजाऱ्यांचीं बंद दारां
कुंड्यांनी कॅक्टसाचीं झाडां
हरशीं फ्लॅट
सगळे वटेन फ्लॅटूच
आतां हांवूय काळजासयत
फ्लॅटूच जालां
केन्ना केन्नाय
इतिहासाचीं पानां परतितना
दोळ्यांतल्यान दोन दुकां
घळ्ळ जाता तितलींच.

# कोणाक जाय धुमको

□ नूतन साखरदांडे

परतून एकदां दिसता
खेळचो आणकू-माणकुल्यांचो खेळ...
कुरकुटांतलें मांजर
हालीं चडूच सुस्तेलां...
बांदोडेची कायल तापता
पूण शिरोडेचो दवलो
धवळून धवळून खर्शेता
तेन्ना दिसता घालचो
धुमको... धुम्म...

# काळजांतलो दंव

□ राजश्री महाबळेश्वर सैल

अश्या एका खिणा
जावचो मोग सुगंधेचो परागाचेर
सगलीं आडवळणां हुपून
गीत मोगाचें गावचें
सूर्य अस्तमतना
नखेत्रांचे वाटेर

गुलाबाच्या रानांतल्यो
गोड खबरो
जसो ओंवळी पोंदा पडचो परमळाचो सडो
वाऱ्या ल्हारां
नक्षत्रां मेळ
असो मोग सुगंधेचो परागाचेर

ल्हवच पेटचें पांचवें रान
पांचव्या रानांत
पांचव्यो वाटो
पांचवे वाटेर
पांचवो दंव

दंव दोळ्यांतलो
दंव मनांतलो
दंव पराग सुगंधेच्या
काळजांतलो.

# म्हजी तुजी काणी

□ आर. रामनाथ

म्हजें-तुजें नातें
जशी चडटी रात
काळजाची वात
पालवता...

तुजो-म्हजो संग
अनंग अनंग
अंतरिचो रंग
काळखांत...

दुकांचो हुंवार
तुजो शिरंगार
म्हजो अलंकार
अरिष्टांत...

तुजो गर्भवास
म्हजो वनवास
सरणाचो वास
मसणांत...

म्हज्या अंतरांत
अनंत गिमाळे
विखाचे दुवाळे
चंवरांत...

म्हजी-तुजी काणी
खेळटा कुट्ट्यांनी
जिणे राजा-राणी
मळबांत...

# 'सुर्यवंशी'

प्रियदर्शिनी तडकोडकार




'वेध' आनी 'सुर्यवंशी' ह्या झेल्यांतली निलबा खांडेकारांची कविता कोंकणी कवितेच्या मळावेली परंपरागत फास्की मोडून वयर सरल्या अशें म्हळ्यार लटीक जावचें ना. कविता वाचप्यांक आपले वटयां ओडटा ती तिचे कडेन आशिल्ल्या सुघड, चैतन्यशील रुपाक लागून आनी वाचप्यांक अंतर्मुख करूंक लावपी तिचे तांकीक लागून. कवी म्हळ्यार समाजाचो 'थर्मोमिटर'. आपणा भोंवतणी जें घडटा ते विशिंची क्रिया-प्रतिक्रिया उकतावपी. ताका लागून कवी जियेतना आपणालीं कांय मत्तां, आपणालो नदरेकोण आनी आपणा भोंवतणीं जें घडटा ते विशिंची आपणाली प्रतिक्रिया दियत आसता. आपणाल्या दिश्टाव्यान ताका आयिल्ल्या अणभवां फाटलो कलात्मक आशय साहित्याच्या/कवितेच्या माध्यमांतल्यान प्रतिमा, प्रतिकांच्या आधारान उकतो करीत आसता. खांडेकारांची 'सुर्यवंशी' मेरेनची कविता वाचतना होच अणभव वाचप्यांक आयले बगर रावचोना. तेच बराबर कविच्या संवेदनशील मनाची गवाय ताचे भोंवतणच्या घडणुकांचेर तांचेर जाल्ल्या प्रतिक्रियांतल्यान मेळटा. ह्यो कविता कविचे जिणेंतलें दुख्ख आनी ताका लागून जाल्ली आत्मपिडा हांच्या आधारान कोंकणी कवितेच्या मळार वेगळेपणान उठून दिसतात. आपणाल्या पयल्या झेल्यांतल्यान सामाजीक जाणविकायेच्यो कविता दिवपी खांडेकार नव्या विचारांक समाजाच्या परिवर्तनाचें साधन मानता. तोच विचारांचो धागो मुखार व्हरपी 'सुर्यवंशी'तल्यो कविता समाजाक अन्याया आड झुजपाक आव्हान करतात, समाजांतले प्रखर वास्तवतायेची जाणविकाय दितना सुर्याची प्रतिमा घेवन क्रांतिच्या उजवाडाचे झळझळीत बाजुचीय वाचप्यांक वळख करून दितात.

सुर्या म्हळ्यार आदिम आनी अंतिम सत्य. प्रखर आनी जळजळीत वास्तव. संवसाराचे दर एके घडणुकेचो तो गवाय. इतलें सर्वव्यापी प्रतीक घेवन आयिल्ल्या ह्या कवितां-झेल्यांत पुराय कवितेचीच प्रतिकात्मकताय सोदल्यार जाता (वाचपी ती आपले पद्धतीन सोदतलेय).

प्रतिमा रुपकात्मक आसता. तिका मनशाच्या भावनांचोय संदर्भ आसता खरो. पूण ती चडशी काव्यात्म भावनेन रसरशिल्ली आसता. ती रसिकांक आपले वटयां ओडटा. हाच्या सांगातान नवेंपण (नाविन्य), जायते अर्थ आनी काव्यात्म अणभवा कडेन एकवट ह्यो तीन गजालीय काव्यात्म प्रतिमेच्यो विशेशतायो म्हूण दाखोवं येतात. कवितेंतल्या प्रतिमांचें स्वरूप पळयतना त्या प्रतिमांचे कवितेंतलें कार्य कितें हें पळयतात आनी कवितेच्या संदर्भांत प्रतिमांची अर्थपुरायताय पळयतात. वाचपी आपुणूच ह्या प्रतिमां फाटल्यान आशिल्ले अर्थ तपासता आनी कविता समजून घेता.

निलबा खांडेकारांचे कवितेंतल्या प्रतिमांचो अर्थ समजून घेतना कविची कविते विशिंची आनी जिणे विशिंची कल्पना कसली तें पळोवप समा जातलें. कवी आपणाले कवितेंतल्यान समकालीन जिणे विशीं भाश्य करता. 'सुर्यवंशी'तल्यो चडश्यो कविता राजकी आनी सामाजीक विशयांक ओंपिल्ल्यो आसात. तांतले अणभव स्वातंत्र्या उपरांतच्या भारतांतल्या समकालीन जिवितांतल्यान घेतिल्ले दिसतात. व्हड सपनां पळोवन 'गांव सोडटना...' कवी ''जड मनान ह्या अनवळखी शाराचे फास्केंत भितर सरतना / म्हजी कविता आनी ते अजोड संदर्भ / हे गर्दैंत सांडत काय?'' ही भिरांत मनांत घेवनच आयिल्लो ('गांव सोडटना' - ११०). कवी




आपणाल्या व्यक्तिमत्वाचे घडणुकेंतल्यानूच समाजाक सामकारा वता. हेरांक साद-प्रतिसाद दिता. आनी आपणालो ठसो समाजाचेर/हेरांचेर उठोवपाचो यत्न करीत आसता. ताच्या भावजिविताचेर जातल्या परिणामांतल्यान कविची संवेदनशीलताय दिसता. देखून पोरणो इश्ट खूब तेंपान मेळटकच तो आदल्यो यादी पर्थून नव्यान जियेता. ही भेट म्हळ्यार सुखाची देण ह्या अणभवान इश्टाक पर्थून मेळपाची आस्त बाळगित म्हणटा – ''इश्टा तूं मेळचो परत्यान परतो...''

ह्या कलकलाटांतल्यान सुखावपाक
नव्यान कवितेचें वादळ व्हांवत रावचें
आमचे मजगतीं,
आनी खुबशें मनांतल्या मनांत. (कविता, पा. १५).

व्हड सपनां पळोवन 'मंगल पांडे' सारकेल्या जायत्या जाणांनी आपणालें बलिदान करून देशाक स्वातंत्र्य मेळोवन दिलें. तांच्या ''तांबड्या भडंग रगतांत / हळव्या मनाची, निष्ठावान काळजाचीं सपनां आशिल्लीं'', ''मंगलक्रांतीचें वर्स तुज्या नांवा सावन सुरू जालें'' अशें कवीक दिशिल्लें. पूण काळ गेलो तशें कवीक दिसपाक लागलें तें ''व्यर्थ गेल्लें बलिदान.''

स्वातंत्र्य मेळ्ळें, आर्थिक सुबत्ता येतली म्हूण विज्ञानाच्या आधारान औद्योगिकरण जालें. नवीं नगरां आनी म्हानगरां उबीं जालीं, लोकशाय आयली, ह्याच वाठारांत म्हजे संस्कृतीक 'चार चांद' लागिल्ले त्याच वाठारांत आतां हुस्कार घेवप कठीण जालां. ''रातीचें पर्व सोंपून' फांतोडेचें म्हाद्वार उघडलेंच ना' अशेंच कवीक दिसपाक लागलां ('तशें जालेंच ना', ९३).

लोकशाय आयली पूण ह्या सगळ्यांतल्यान विषमतायच सामान्य भौसाच्या

वाट्याक आयिल्ली कवीन पळयली. मुठभरच मनशां गिरेस्त जालीं, सत्ताधीश जालीं, पूण भौस मात कश्ट, दळदीर, उपासमार, भ्रष्टाचार, बेकारी हांचोच बळी थरला. शारांतल्यान सुशिक्षीत अशिक्षीत बेकारांच्यो बकाल वसत्योच वाडत गेल्यो. ''मानवतेचे सगळे अधिकार आमच्या सुवादीन आसतना'' हांगा ''सदांच मानवतेची हार जाल्या आनी लोकाहित वण्टीवयल्या फास्क्यांनी लोंबकळत रावलां.'' ही जळटी जाणविकाय कवीक खंती करता. स्वताचें स्वत्व शेणिल्लो मनीस सामको उध्वस्त जावन रावला ह्या विचारान ''आतां कसो हक्क सांगपाचो तांणी परजळिल्ल्या / ह्या सुर्याच्या उजवाडाचेर ? त्या सुर्यवंशाचेर ?'' हे प्रस्न ताचे मुखार उबे रावल्यात आनी ''जाच्या आंगांत वासनेचें रगत उसळटालें / ताच्या हातांत सत्ता आयली / लोकशायेच्या दोळ्यांतलीं दुकां / रडून रडून सुकलीं'' ('सुर्यवंशी') हें वास्तव सामखारा आयलां.

खांडेकाराच्या चडशा कवितांतल्यान सुर्याचें प्रतीक आयलां. सुर्याची ही प्रतिमा क्रांतिचे शक्तिची उर्बा दिवपी, सामाजीक अन्याया आड बंड करपाचें बळगें दिवपी ही तांची प्रतिमा जायत्या अर्थान कवितेंतल्यान आयल्या. पुराय मनीस संस्कृतायेचो व्यापक संदर्भ घेवन आयिल्ली ही कविता वाचप्यांचे मनोधारणेक बदलून उडोवपाची तांक बाळगिता. सांगातान ताका भोंवतणच्या जिविता कडेन उकत्या दोळ्यांनी पळोवपाचीय शक्त दिता हें ह्या झेल्यांतल्या आनीक कांय कवितां वेल्यान दिसता. 'पंजाब', 'लातूर', 'स्वर्ण जयंतीच्या निमतान', 'हिंदुस्तान', '१९९७' अशा कवितांच्या निमतान देशांत चलिल्ल्या वेगळ्या वेगळ्या राजकीय आनी सामाजीक घडणुकांचेर उजवाड घालून एकविसाव्या शेंकड्यांत आपणालो 'वंश उजागर' करपाचो निश्चेव करपाचें आवाहन वाचप्यांक करता.

'कार्ल हेनरीच मार्क्स', 'स्मिता पाटील', 'लेनिन', 'कॉम्रेड', 'चाणक्य', 'मंगल पांडे', 'कार्ल मार्क्स' अशो सामाजीक आनी इतिहासीक व्यक्ती घेवन कवी प्रतिकात्मकतायेन भोंवतणच्या समाजाचो अर्थ लायतना दिसता. इतिहासीक व्यक्ती आनी घडणुको घेवन तांचो समकालीन अर्थ लावपांत खांडेकाराची विशेशताय दिसता. हांतुंतल्यानच कविचें सुमाजा विशिंचें भान आनी अन्याया विशिंची तिडक ताचे दर कवितेंतल्यान दिसता. क्षुद्र कृती आनी प्रसंग हांचें रुपडें घेवन ह्यो कविता कविची भावस्थिती उकती करतात. तेन्ना ताचे कवितेंत उपहासात्मक सूर उकतो जाता. ह्या उपहासा फाटली करुणा मात ते उकती करतात ती रांगडे आनी पोजडे शब्दरचनेंतल्यान. कांय कडेन कविता निवेदनात्मक जाल्ल्यान तिचे मदली काव्यात्मकताय शेणिल्ल्याचो अणभव येता.

सोबीत सुंदर छापणावळ आनी सूचक अशें परमेश जोळाद हांचें मुखपृष्ठ आशिल्ल्या ह्या 'सुर्यवंशी'न कोंकणी कवितेच्या मळार क्रांतिची घुडी केळयत दवरपाची नवी आस्त हाडल्या म्हणपाची जाणविकाय मेळटा. काव्य रसिक ह्या झेल्याक फावो तसो येवकार दितले हांतूंत दुबाव दिसना.

**सुर्यवंशी**
**निलबा अ. खांडेकार**
**सुरू प्रकाशन, १९९९**
**पानां: १२३; मोल: १०० रुपया**

# GOA REVOLUTION DAY

***18th June, 2000***

## Goa salutes Freedom Fighters

### 60 Freedom Fighters will be honoured



***Shri Mohd.Fazal,***
***Governor***

***Shri Francisco Sardinha,***
***Chief Minister***

***Speaker, Ministers, MLAs & Freedom Fighters alongwith other dignitaries will pay tributes and lay wreaths on the Martyr's Memorial at Azad Maidan, Panaji at 9.00 a.m.***

*All are cordially invited*

Issued by
DEPARTMENT OF INFORMATION
AND PUBLICITY,
GOVERNMENT OF GOA.

